# काण्यां घोस



1979

उजवाडावपी:
**कोंकण जनता प्रकाशन**
कोची - 682 002

मोल: तीन रुपया

*Konkan Janatha Book Series-2*

**KANYAÑ GHOS**
*BUNCH OF STORIES*

Ist. Edition December, 1979

Printed at:
Saraswath Industries, Cochin-682 002

Price: Rs.3/-

Publishers:
KONKAN JANATHA PUBLICATIONS,
COCHIN-682 002

"केन्ना जाता आवस कोंकणी साहित्य संपन्न,
तेन्ना जाता भासेच जन सर्वय धन्य"

साष्टांग प्रणामान कोंकणी मातेच्या पायमूणांत समर्पण

—उजवाडावपी

# रीणाचीं उतरां

कोंकण जनता प्रकाशनाचें उद्‌घाटन १९७८ एप्रिल नव्वावे तारीकेक गोंयच्या प्रसिध्द साहित्यकार श्री यशवंत पालेकर हांणी केल्लें. ह्या विभागाचें पैलें प्रकाशन "कोंकणी कथाष्टक" १९७८ मेय मासांत उजवाडांत आयलें. आतां दुसरें प्रकाशन "काण्यां घोस" भासे प्रेमियांचे समक्ष समर्पण करूक आमकां भो संतोष आसा.

कोंकणी भासे विकासाक पुस्तकां उजवाडांत हाडून निरंतर प्रवर्तन करच्या प्रोफसर आर. के. राव हांणी ह्या प्रकाशना खातीरीय आमका मार्ग-दर्शन दीवनु व्हड उपकार केल्यात. प्रसिध्द संस्कृत भासे ज्ञानी आनी बरोवपी डाः जी कृष्ण पै हांणी आमगेली मागणी स्वीकार करून ह्या बूकाक 'प्रस्तावना' बरेयल्या. हांचे आमी केन्नाय रीणी आसतले.

ह्या कामांत आमका प्रोत्साहन दिल्लेल्या श्री वि. शिवदास मल्या हांकांय, पुस्तक चांग रूपान मुद्रण केल्लेल्या सारस्वत इन्डसट्रीस प्रेसांतल्या कर्मचारयांकय आमी आभार मानतात.

ह्या प्रवर्तनाक आधारभूत कोंकण जनता मासिक पत्राची मातृसंस्था गौड सारस्वत एसोसियेशन, कोवी आनी ताका प्रोत्साहन आनी बळ दिवंचे भाषाप्रेमी हांकां उडगास करून हरि-गुरु-कृपा मागून हें दुसरें प्रकाशन वाचप्यां मुखार दवरतात.

—उजवाडावपी

# "प्रस्तावना"

कोंकण जनता प्रकाशनान उजवाडयलेल्या "काण्यां घोस" नांवा हान्तु कोंकणी भासेच्यो धा काण्यो आसात. मलबारी आनि कोंकणी भासेन्त बरौनु मुक्कारि एवश्चया तरुण बरौप्यानि ह्यो काण्यो बरयल्यात.

पुराण-इतिहास हान्तु थाकून काण्याचि सामग्री काडचो अभ्यास सोणु आमगेले यथार्थ जीवनाचे आधारारि ह्यो काण्यो घडयल्यात – होचि ह्या प्रकाशनाचो चमत्कारु. वैदीक आनि इतर भारतीय साहित्यान्त प्रतिपादन करचि वुजवाड-काळूक चांगपण-बाल्लावपण हांचि निरन्तर आनि सनातन स्पर्धा तं 'बकासुर' काण्येचो आधार. जाल्यारि इतर सर्वय काण्यांचो आधार समाजं. अशिश ह्ये बरोवपी पुराणा-इतिहासाचेरि तेंकनाति. केरळचा कोंकणी साहित्य रचनेंत हानि अशिश एक नवो क्रमु हाळा.

ह्यो काण्यो वाचप्याश्चा मनांक हटात् आकर्षण करताति. खास जावनु भूक आनि भीक (वि. शेट बलराज), शुद्धिकलश (सुशीला त्रिविक्रम भट्ट), रंगु सुण्टलो (के. नारायण नायक) आनि रेणु (शरतचन्द्र) ह्या काण्यांचो प्रभाव मनांत केन्नायि वरता.

ह्यो काण्यो केरळचा कोंकणी भासेच्यो नमूनो तीन तरां दाक्कयतात. सारस्वत-वैश्यांगेली कोंकणी भास "भूक आनि भीक" हान्तु, उत्तर केरळच्या गौड सारस्वतांगेली भासेच्या नमूनो "चान्नीणें" हान्तु आनि कोचि गौड सारस्वतांगेली कोंकणी इतर काण्यांत अशिश.

ह्यें कोंकण जनता प्रकाशनान उजवाडांत हाडचें दूसरें पुस्तक.

कोंकणीभासा प्रेमी हांगेल्या ह्या प्रयत्नाचा खातिरि व्होड रीणी जातात. कोंकणी भासेंचा प्रगति खातिरि आनिकय आश्शिल्लीं प्राकाशन उजवाडावूंक देव हांका प्रेरणा दीवो अश्शि देवालागि मागतां. कोंकणी भासेचे प्रेम्यांक हांगेल्या ह्या प्रशंसात्मक प्रयत्नाक सर्व सहाय आनि प्रोत्साहन दीवूंकयि देव दीस्सोवो अश्शि, आशा पावंता.

कोचि–२<br>
शके १९०१

ग. कृष्ण पै

# मांडावळ

श्री वि. वेंकटेश

# प्रिय दुःख मिगेलें मात्र..........

[वि· वेंकटेश (२८) 'सुमित्रन' नावार बरयता· विवेक, केसरी, कोंकण जनता इत्यादि प्रसिध्दीकरणांचेर निरन्तर बरवनु कोंकणी भासेनय मलबारीनय चांग रूपान कविता, लेखन, सानि काणि इत्यादि बरवनु भाषा सेवन करनु येता· एस· बै· ए·, संस्कृति सदन इत्यादि जन-कल्याणोन्मुख संघटनेंत सेवन करचाक प्रयत्न काडचे हे, औषध व्यापारा वाटेन जीवन चलैतात· नाटक अभिनय, मत्सरांत भाग घेवप इत्यादिकान जायते पुरस्कार हांकां मेळ्ळेले आसात·]

पौष मासा दोवांत एक सूर्योदय. पूर्व दिकार मेघ पिंजतात. उजवाडा खात्तीर आशिल्ली सृष्टि. अन्धकारचे पेलतंत ह्या उजवाडाक सग अतीत जावनु एक चैतन्य स्वरूप देकीलें हावें. त्या प्रभापूर्ण चैतन्य ज्योतींत मेळसूक आशिल्ली तान. थांगा पावंचाक आशिल्लो उत्साह. पवलांचें चलन मुकार.........मुकार.........

मिगेलें विक्षिप्त काळे तोंड चोवनु जन हासून निमगीतात—

"सूख वे तुका?"

सत्य निपोवनु सांगीले हावें — "सूख तं" मिगेले सूखा पासून अन्वेषण कोरचे तांकां मिगेले दुःखा विचार ना.

नवी वाट, नवी दिशा. तपताय पाय, करपता ताळूव, दुकता हृदय, रडता मानस. जल्यारीय प्रयाण हें मुकार.........मुकार.........

वचे वटेर इत्तूलकी देव. पाप, तांकां देवळ ना, दीपालंकार ना, पूजन ना. कष्ट! एक तुलसी माळ तरी ना. हाथ–पाय मोळ्ळेले ते देव प्रदर्शन शालेंत कन्नडे घूडांत मुक्ति मेळनातिल्लें गुस्समुटेतात.

यें सग देकून वाचाल जीब निशब्द जाता, मूक हृदय वाचाल जाता. बाह्य प्रकृति प्रशान्त सुन्दर; भितेर चमकता भयानक संघर्ष. दूर......... दूर.........तें चैतन्य. थांगा मन पांवना वचन पांवना.........एकान्तता .........मूक निशब्दता.........

निशब्दतेंत शब्दु—"तें चैतन्य अप्राप्य तं. थांगा पांवचे कोण ना"

शब्दु अयकून घूवनु हांव चोयलों, उलेयता एक लोकटो तं. कसले संकष्ट ये, मिगेले पुण्य देवालो लोकटो मु ह्या कन्नडे घूडांत उलेयता.

"हे परमात्मा! तुमी हांगा?"

"कष्ट पुता, आमकां आतां अस्तित्व ना"

"सत्ता?"

"उतपत्तिरहित मोक्षावस्था"

"थांगा मिगेले मन पावना"

"तुगेलें चंचल मानस अस्वस्था तं"

वाडून येवंचे अराजकत्व तं हेतु"

"पुता, हें भ्रमण अराजकत्वांत वचाक आशिते तं. आज अन्त प्रळयु.

थांगा पांवतर नास्तिकय, आस्तिकय, पूजकय, निंदकय सर्वेय सगय एक जातले; त्या चैतन्य ज्योतींत मेळसूनु वतलें. मागीर तूवेंय ना, हांवय ना.........अन्तिम दुःख.........निशब्द शून्यता मात्र........."

"प्रिय देवा, तुका प्रणाम. हें प्रयाण हांव राबेयतां. पोरतून मिगेले खोंपियांत.........पर्णशालेंत वतां........."

पवलांचे चलन मगल्यान पोरतून मगल्यान.........मगल्यान......... उदय इत्तूलकी देकीले, अस्तमन इत्तूलकी देकीले. इत्तूलकी वोत्तांत भोवनु, इत्तूलकी पावसांत भोवनु पवलां हांव मिगेले खोंपियेचे देरलांत. थांगा माका राकून बैसला मू युग-युग जावनु सत्यस्वरूप दुःख. तागेलें विषाद वदन पळोवनु मिगेले दोळे भरले.........मन भरलें........."नारे प्रियंकरा, तुका सोणु आनी हांव खंय वचशिना.........प्रिय दुःख, तूं मिगेलें मात्र .........मिगेलें मात्र.........

---

श्रीमती सुशीला त्रिविक्रम भट्ट

# शुद्धि-कलश

**[श्रीमती सुशीला त्रिविक्रम भट्ट (३८) साळेंत शिकचे वेळार थाकून नाटक, कविता, काणि, उपन्यास, प्रबन्ध इत्यादीच्या मत्सरांत भाग घेवूंन साहित्यांत तात्पर्य दाकैता· हिन्दींत "राष्ट्रभाषा प्रवीण" परीक्षा उत्तीर्ण जालेली लेखिका सात-आठ वर्षां हिन्दी अध्यापीका आशिल्ली· कोंकण जनता मासिक पत्रिकेर लेखन इत्यादि बरवनु कोंकणी साहित्यांत प्रवर्तन करून एता]**

एक कोंकणी भासेचो व्यक्ति प्रथम जावनु तं त्या गांवांत थाकून ऐ. ए. एस. पास जाता. नन्नु म्हळ्ळोलो नारायण. मध्यप्रदेशांतले एक जिलेचो सब-कलक्टर जावनु लागीच ताका नियमनय मेळता. एक मास भितर ताका नवे स्थलार वचून नवे उद्योगांत प्रवेशन जावंका जावनु आसा. संस्थानाचे सरकाराचे खाल एक काम करत-करतांच तं तो लीव काडून ऐ. ए. एस्साक सिखलो. फूडे करून येवंचे कामाचो आरू-भारू मलघडे आफिसराक सौंपून, तांत थाकून निक्कोळनु तं तो नवे कामाक वच्चाक वत्ता.

मध्यप्रदेशाक वच्चाक आनीकय एद्दे दीस लागेन आसात.

नन्नून तागेल घरल्याक एवनु दोन दिवस तं जाल्यात. तें भितर गांवचे अनेक प्रमाणी ताका एवनु दिकतात. जत्तींतुले, पर-जातीचे, एकेक संघटनेचे प्रसिडेंट, सेक्रटेरी इत्यादि, देवस्वं समितींतले मनीष, अनाथ-मंदिराचे प्रवरतक अनीक सग्ग. सगटांलेय आवश्य एकच. गांवचे जनपद एकेक नावांर, एकेक संघटनेच नावांर नन्नूक स्वीकरण दिवंचाक वत्तात खयं. त्या गांवांत थाकून प्रथम जावनु ऐ. ए. एस. पास जावनु आयिल्लो गिरायकी म्हळ्ळेल लेकान.

सगळयाक वचाक तैयार तं म्हुण आसा जाल्यार नन्नून पन्नेरा-त्रीस कडे वचका जातलें. हनुमंतालें बाल वड्डल्ले गदीच संख्या तस्सी वड्डूनय एतली. बुधवंत जावनु आशिल्या नन्नून लोकालें आवश्य आयकूकच खंतय एवचाक तो तैयार ना म्हुणुय, या तराचे उपचारांत ताका एद्दो सरी उत्साह ना म्हुणुय सांगलें. जाल्यारीय लोकु आयकत वे? निवृत्ति नात्तिल्लें दोन्नीच दोन कडे येन म्हुण ताणे उत्तर दिल्लें. विविध संघटन सग्ग मेळनु सर्वजनानी तैयार कोरचे एक स्वीकरणांत. दुस्सरें, कोंकणी भाषा-भाषियानी सगटानीय मेळनु तैयार कोरचे अनियेक स्वीकरणांत. तिस्सर कडे तो ना म्हुणुय कत्तोरनु सांगलें.

ह्याच समयार वेग्गोळो एक गोंदोळ लागेन नन्नूले घरकडे चोवंकूक लागलो. तागेल सोयरीकेक जावनु तेकार-बडकार थाकुन व्हाड-व्हाड प्रमाणी सोयरीकेक आयले. गांवचे व्होळ्ळे गिरेस्थ ताजे फूडेच येवंचाक लागले. जातक चोयल्यार जाता, चोयना जाल्यार जाता. बेंकांत, कोळेजांत काम कोरच्यो चोल्लियो, सास कण-कणे रूप्पयाय, कार-घर आनीक दिवंचाक तैयार आशिल्ले लक्षाधिपतियांगेल चेल्लियो, एम. ए, एम. एस. सी. इत्यादि उच्च परीक्षा पास जाल्लेल्यो चेल्लीयो, अशी अनेक गांवचे घरवन्दाक थाकुन अनेक व्यक्ति सोयरीक घेवनु आयले. आयिल्यांक सरवांकय जाय जल्लोलो मानु-सतकारू आनिक नन्नूनय केलो. नन्नूले घरकडे थाकुन भायर देवंचे एकेकेल्या मनांतुय ताण-ताणे हळ्ळेली सोयरीक पसतली म्हळ्ळोलो प्रबल विश्वासुय उतपन्न जालो.

त्याच गांवचे प्रमाण्यांक तं चढ प्रत्याशा जालेली. तांगेल चेल्लियो जाल्यार सौन्दर्य, विद्या इत्यादीन भरीत. दिवंचे स्त्रीधनाचे पसावत चेल्या लागी म्हळ्ळेंलंय आसा. त्याच गांवांत जनन घेवनु वड्डून आयिल्लो म्हळ्ळेल लेकान त्या गांवचे एकेक प्रमाण्यालीय आस्ति-नास्ति नन्नूक चांग जावनु कळता आसतलें. जाणतां आसिल्लीच सोयरीक जावो म्हुण तो लेक्कूक पूरो. अशी गेल्ली गिरेस्थांगेल देकि.

प्रथमल दिसा सर्व जनांगेलें स्वीकरण चमकीलें. नन्नूले व्यक्तित्वाक, गुण-गणाक, नवें मेळ्ळेल कर्तव्याक-कामाक पसावत; कर्तव्य-बोधान चमकूका जाल्लेल पसावत आनीक सग चार-पांच जनां उल्लेयले. हाका सग समुचित जावनु नन्नून जापय दिल्ली.

दुस्सेर दिसा तं कोंकणी भाषा-भाषियांगेलें स्वीकरण. गांवचे देवळाचे मुक्कार आशिल्या मैदानांत तं स्वीकरणाक मण्टोव घाल्ला. गांवचे दद्दूले, बायलो, चेरडूंव सरवय एकत्र जालेलीं आसात. प्रथम एकेक संघटनेच बगेक, मागिर एकेक व्यक्तियांले बगेक म्हळ-म्हळ तराची माळा नन्नूचे गोवंटेक पळ्ळी. एक राशी भर फूल्लांची माळा. तव-तव्वळी फोटोग्राफीय चवंकता. सगटांकय चोवनु मुसकुण्डेच तोंड करून नन्नून गोवंटो बावगेयलो.

एक-दोन भारवाह्यानी नन्नूक अप्पोवनु अलंकारिल्या कदलार बेसयलो. लगीचें कार्यक्रम ईश्वर-प्रार्थना. सर्वालंकार भूषित जावनु आशिल्ली, वीस बावीस वर्षांची एक चेल्ली तं प्रार्थना म्हुणुक. जन सग उटावनु राबीलें. त्या गांवचे व्होड लक्षाधिपति रम्मय्य मम्माली धूव तं ती चेल्ली. प्रार्थन जावनु नन्नूक नमस्कार आनीक सांगून ती गेल्ली. नन्नूले सोयरीकेक प्रथम जावनु तागेल घरकडे आयिल्लो व्यक्ति रम्मय्य माम तं. सम्मेळनाचे वेदीर बेसून आसिल्ले वेळेरीय नन्नूचें तोंड मुसकुण्डेंच. लोका मद्दें कुस-कुस चमकता.

कार्य-क्रमार सांगिल्ले लेकान मंगळ-पत्र समर्पण चमकीलें. मागीर दोग-चोवग जनां मैकाचे मुकार एवनु नन्नूक, नन्नूले अम्मा-बापाक, कूल थरवाडाक सग वोंकाणसून उल्लोवंचाक लागले. कुलाक जाताय जाल्यार असलेच सुपुत्र तं जावंक म्हुणय, आनीकय असले अनेक सुपुत्र अमगेल गांवांत

न्मु घेवोय म्हुणय ईश्वराचे लागीं प्रार्थन करून तं अवसानार उल्लेयलेल्यान त्तरां समाप्त केल्यांत. एकेकेल्यानय भाषण करना फडे तळियो वाजूक नां विसरलेनात. नन्नूले तोंडार केदणाय मन्दहासूच.

स्वीकरणाक कृतज्ञता सांगचो कार्यक्रम तं आनीक. नन्नू उटायलो. काचे मुकार आयलो. तागेल तोंडाचे समच मैक सम केलें. ताळो सरसी लो. आनीक तो सांगूक लागलोः– "मोगाचे भावानो, भयण्यानो, तुमकां वींक मिगेल विनीत नमस्कार. प्रथम तूमीं सर्वांनीय मेळनु माका आतां ल्लेल्या ह्या स्वीकरणाक तुमकां सगटाक नेण्णी सांगतां. हांगा आतां ार–पांच जनानी मिगेलेय, मिगेल आवसु–बपसूलेय, कूल–थरवाडाचेय ग–गण वाचले. त्या पसावत माका तुमचे लागीं चार उतरां उल्लोवंकाय. ातां हांगा उलेयलेलीं उतरां आयकून एक संशय मिजे मनांत उद्देलो. इत्तें म्हळ्यार तुमीं माका समच वळकनात भी वे म्हुण. वळकतात तरी ाशिल्लें जाल्यार मिगेल आवसु–बपसूलीं, कूल–कूळाराचीं वर्तमानां तुमी ाणय सांगची ना आशिल्लें". अशी सांगून नन्नून उत्तूल की घडी पुरथम जारी हाणु धांपुन दवरलेंले कसल की उदकाचें ग्लास काळ्ळें, चार घोट ल्लो. दुस्सेरीय ताळो सरसी केलो. आनीक मैकाचे मुकार येवनु सांगुक रांभीलें–

"तुमीं हांगा उलेयलल्यानी माका एक नवोच व्यक्ति जावनु चित्रीकरण ना म्हुण तं माका दिसता. तें न्हय जाल्यार मिगेल नवे पदवेन मिजेर ग्यावचन' घालनु, माका शुद्धि केलोल आसा तुमगेल दृष्टीर. हांगा फडे जावनु बेसल्या बाबलांदो, दादल्यांदो! तुमचे मद्दें आशिल्लीं तीस ळीस वर्षां दंटवल्लींय माका समच वळकनाय वे? आजीक तेवीस वर्षां ड़े धन्नी नातिल्लें गुरबीण जालेली विधवा म्हुण सांगुन घरकडे थाकुन भायर लेल्या विटप पोरबूची सून कमळेक तुमीं इत्तूले धारार विस्सरलीं वे? गेलो पूत तं हांव म्हुणुय तुमका कळना की?

विधवा जालेल असतना "पोट केलें" म्हळ्ळेल अपराध लागोवनु ी वर्षां सरी पुर्ति जावनातिल्य माकाय, तिकाय करून हांगाचे तेदुसचे एद्दे ्य व्यक्तियानी मिगेल आबोक सम्मर्द चोढोवनु घरकडे थाकुन भायर

घाल्ली. केवल आषा वर्षां सरी पूर्तीं जावनात्तिल्ली ती अबला तिगेल बपसूथंय गेली. तन्नीय तिका तिरस्कार केली. तीणे थंगा राबत जाल्यार खलचे भवण्डांक सोयरीक अनीक करूंक जावना म्हुण सांगुन. ह्या गांवचे अनाथ–मंदिरांत ती शरण पावली. वायटपण केलेली देकून समीतीचे मान्य भरण-कर्तानी हाथ फाफुळ्ळो. गत्यन्तर नातिल्लें ती आत्म-हत्येक भायर सरली. तांतूय पराजय पवली. तिजेर सहानुभूति जावो मनुष्यत्व जावो दक्कोवंचाक जातींतूलीं कोण ना जाल्लीं. खंचे साहचर्यान तिका असली एक दुरवस्था प्रदान केली म्हळ्ळेलें कायरें शान्ततकायेन चिन्तन करूकय कोण पुणी ना जालो.

मनुष्यत्व आशिल्ली एक बायल मनीष तिगेल सहायाक मुकार सरली. ह्याच गांवची 'गुलाबी' म्हळ्ळेली देवदासी अथवा चेडी. त्या महामनस्केन मिगेल आवसूक तेदूस आश्रय दिल्लोना आशिल्लो तरी जाल्यार मिग्गेलीय, मिगेल आवसूलीय स्थिति कश-कशी जातली आशिल्ली म्हुणय; एक लेकान हांवच जीवन्त वरतोलों आशिलवे म्हुणय माका संशय आसा.

मिगेल भावाले पितृत्वाक कारण कोण म्हुण आतां परयान आमगेल आवसून अमकां कळयलेना. एक वेळार हांगा आतां एक्कडें जावनु बैसल्ले मान्यांत कोणय एकलो जावयात मिगेल भावालो बापुस". हें आयकून युवावस्थेर पाविल्ले एट्टे चेल्ले एक्कडे जावनु बेसल्ले कडे थाकुन होड्डान ताळियो वाजल्यो. बायलांचे मद्दें पुस–गुसुय. नन्नू ग्ळासांत बाकी वरलेलें उदाक लागेन पिल्लो.

एदी घडी वतर दुसेरीय उल्लोवचाक लागलो.–"पन्नेरा वर्षां सरी पूर्ण जावंचे फूडे एक नित्यरोग्याक दीवनु व्हरडीक केल्लेली एक दरिद्रि चेली. दांपत्याक, कुटुंब–जीविता पसावत पुरतें मनांत करचे मुरथम तिका एक चेरडू जाता. चेरडाक वर्ष सरी पूरतें जवंचे फूडे रोग मूरच्छेन कर्तना बामुण मरता. आतंचे कालाक विवाह जीवितांत प्रवेश पावंचाक सांगिल्ले प्राय परिधि वूणे आषा वर्षां तं. त्या आषा वर्षांचेर तेदुसची ती बायल विधवा जाता. मागीर सग चंगपणय तिजे मुकार निषिद्ध. कारागृहांतले जीविताचे समान तिगेलें जीवित.

तशी आशिल्या त्या बयलेन विकाराक वशंवद जावनु जावो, दुरबळकायेन जावो, खंचेय एक दादल्याले मोह्–पाशांत पोणु जावो, जाणत जावो, नेणत जावो एक चूकि केली. विधवा गुरबीण जाली. हें समुदायाक कळ्ळें. समुदायान धारार त्या चूकीक परिहारूय देकलो. घरकडे थाकून भायर घालोवनु तिका निराश्रय केली. तिणेय निप्पोवनु, व्होळ्ळे–व्होळ्ळे घरवन्दाचे आशिल्या बायलानी आनी करचे लेकान कोण नेणतां घळ–घळावनु पर घालयात आशिल्लें. जाल्यारी ती एक दरिद्र कुटुंबाची बायल जाली. तसली सग कायरीं गुपीत करचे बगेक भोरनु दुड्डू उवसुका. ते दुड्डू काडूक ती खंथय वत्तली? एक लेकान चोयल्यार ते दुड्डू हाथांत आशिल्ले तरी जाल्यार तींणे ह्या पयकीळ्याक वच्चुन्ना आशिल्लें.

दरिद्री जाल्यारीय मान–मर्याद आशिल्लो तं म्हुण सांगून मांवान-मायन त्या बयलेक घराचे भायर घाली. कोणे हीं कर्मा केल्लीं जाल्यार तागेथयींच वचून राब म्हुण सांगून ताणी तिका चिकुळ्ळी. म्हळ्यार तिगेलें गर्भाचें उत्तरदायित्व माथ्यार काडूक तें केल्लोलो मरयादवाला भावडो तैयार जायत वे?

अशी केल्लेल व्यक्तिचें नाव घेवंचाक बन्धु–बांधवय एद्दे ‘लोकोपकारीय’ सग तिका निरबन्ध करून चोयलीं. जाल्यार “माका आयिल्लो अपमान हांवच सहन करीन, एक वेगळे मनुष्यालें जीवन लागेन इत्याक वायट करका म्हळ्ळेल” विश्वासार तीणें नांव घेतलना. मरयादेचो चोग्गो घालेल्या त्या दादल्याक उतूलो आश्वास जालोलो आसतलो; तिगेलो मनो-निश्चय आयकून; तीणे कोणाचें नांव घेतलेना न्हवें म्हुणु.

कूलाक अपमान हाळ्ळेंली दिकून निज्जाचे आवस-बापसूनय तिका अभय दिल्लेना. निज्जाचे जातिकारांथय, वोळकीचांथय ती सहाय मांगता. सग्ग तिका परिहास करून अंबूण भायर धवंडायतात. एक आश्वास वचन दिवंचाक जावो, सहायाचो हाथ नीट करूक जावो कोण पुणी स्वजातींतली तैयार जायनात. हें मिगेल आवसूलें चरित्र तं.

त्था मनुष्य स्नेही गुलाबेल एकच सहाय-सहकरणान मात्र आमी

वरलीं. एक–दोन गायांक वड्डोवनु, दूद विकून दीस काडूक आशिल्ली वाट तीणे मिगेले आवसूक करून दिल्ली. मिगेले आवसूचे लागी थाकून काणु घेवंचे दूदाक परयान "पतित्व" लेकचीं तं आशिल्लीं, तेदूस ह्या गावंची एट्टी अनवाळीं, व्होड मनीषां. दूद विकून, अनर्घ कष्ट सहन करून दीस कडता जाल्यारीय वेश्यावृत्तीच करून तं आतयं आसा म्हुण सांगून फन्दळावंचाक जायत्यो "पतिव्रता शिरोमणि" त्या कालाकय आशिल्लीं. माकाय मिगेले भावंडाकय वड्डोवनु हाडचे खातिर आमगेले आवसून भोगिल्ले कष्टांचे वर्णन इत्याक करका?

देवान दिल्लेल्या बुद्धिनय, दयेनय करतना, मिगेले परिश्रमान करतना, मिगेले अवसूले वोड्डीयानी करतना हांव स्कोळरषिप आनी काणु घेवनु शिकून हांगा परयान पावलों. कोण नात्तिल्याक देवूच रक्षण.

स्कूळांत शिकचे कालाक माका शिकयलेले गुरुनाथानीं भितर मिजे लागी जायत उतूल पक्षपात दक्कवप आशिल्लें. केन्नाय क्लासांत चढ मार्क एकच खंचय मास्टराले चेरडाक, न्हय जाल्यार खंचय व्हड दम्मेल्याले चेरडाक. सग वर्षांय माका तिसरें ना चोंवतें स्थान. जाल्यार धाव्यांतले परीक्षेक तांका कांय पुणीय करूक जालेना. शाळेंत दवरनूय जिलेंतले अन्य बारा हाई–स्कूळांतय थाकुन चढ मार्क घेतले खातिर दाम जावनूय, इतर पुरस्कार जावनूय सग स्थान–मान मकाच मेळ्ळें. अरहतेक आशिल्लें सहायधनय. तशी माका मुकार वचाक जालें. संदर्भु मेळ्ळेल वेळेर "चेडियेलो पोसको, पोट्टाचो नन्नू" आनीक म्हुण परिहास करतल्यांत एदे मिगेले गुरुनाथय आशिल्ले म्हुण सांगूक माका लज्जा दिसता. माका शिकेयलेले गुरुजनांत अन्य जातींतूलो जाल्यारीय मिगेले कालाक हेड-मास्टर जावनु आशिल्या लागी मात्र तं माका ऋणबन्ध आसात. मिगेले चांगपणाक जावनु त्या महंतान केलेलें कांय पुणीय माका विसरूक जावना.

तेद्दूसचे त्या मिगेले गुरु–गणांत एद्दे जनां आज माका स्वीकरण

करचे ह्या जनांत मद्दें बैसल्ले आसात. "नन्नु मिगेलो शिष्य तं. असली एक चांग भावि ताका आसतली म्हुण सिकचे कालाकच हावें ताजे लागी सांगप आशिल्लें तं" म्हुण एक गुरुनाथ वेगळ्या लागी काल सांगतालो मिजे कन्नानी हांवें आयकीलें तं.

"पोट केलेली देकून मिगेले आवसूक कुलाचो मान राकचे बगेक घरकडे थाकून भायर घालोवंचाक प्रयत्न कळ्ळेलें एद्दे कुलीन व्यक्ति काल–पयर सग मिगेले घरकडे आयिल्लें. तांगेले चेलियांले बगेक माका सोयरीक करुक. हावं लगीच कलक्टर ना जल्यार तसलीच व्हड पदवी आशिल्या स्थानार जातलो न्हयवें? ऐ. ए. एस म्हळ्ळेल डिग्रीन मिगेलेंय मिगेल आवसूलेंय वूणत्व पेल्यान घालनु शुद्धि–कलश चमकेयलो म्हुण तं मनांत करका.

चेलियांले सोयरीकेक म्हणुन मिगेले घरकडे आयिल्या मान्यांचे लागी माका एक उत्तर लागेन सांगूक आसा. मिगेले आवसूक कोण सहायाक नात्तिल्ले कालाक आश्रय दिल्लेल्या, मिगेले उन्नतीचे बगेक बहुत प्रयत्न कळ्ळेल्या, मिजे लागीय, मिगेले भवंडा लागीय पुत्र निरविशेष वात्सल्य दाक्कयलेल्या त्या गुलाबी म्हळ्ळेली देवदासीले नात्तीक तं हांव व्हारडीक करुक वतां." हें आयकून जनामद्दें एक भागाक थाकुन दुस्सेरीय ताळियो वाजल्यो.

नन्नून लेसान तोंड–गोवंटो पुसीलो. ताळो एक लागोन सरसी केलो. संगूक लागलो–"कानानी आयकूक येना, कूरटु मोडून आसा जाल्यारीय मिगेलें चांगपण चोवंचाक आशिल्लें आयुरारोग्य त्या गुलाबेकय, तशीच मिगेले आवसूकय देव प्रदान करो म्हुण प्रार्थन करतां.

एक पुरोहिताकरयान माका आवसून गुलाबेले निरबन्धान करतना मुंजीचो पोड घालेयलो. तेदूस हांवें एक प्रतिज्ञा कळ्ळेली. केदणाय गुणीय माका ह्या समाजाचे लागी प्रतिकार चोवंकोवंका म्हुण. आज मिगेले प्रतिज्ञेचो एक भाग सफल जालो. आनिकय सफल जावंचे बाकी भाग पळ्याय मात्र. एक फन्त लागेन तुमगेल ह्या सतकाराक कृतज्ञता

सांगुन मिगेलीं उतरां राबयतां. मिजे मनांत खंचो कालु थाकुन दांबून दवरलेले विचार तुमचे सर्वांचे मुक्कार एक निबान प्रकाशन करूक अवसर दिल्लेल्या ह्या सम्मेळनाचे भारवाह्यांक भारी-भारी नेण्णी सांगतां" इतुलेंच संगून नन्नू फट-फटीच देवनु गेलो.

एक दोन कार्यक्रम लागेन बाकी आसात. म्हळ्यार कोणाचे खातिर? एकेकेलोच उट्टावनु मुर-मुरेवनु वचाक लागलो. भारवाह्यांगेले तोण्डार शेण मारलेल्या गदीच जालें.

---

श्री पि. श्रीनिवास प्रभु

# वाट पवित्र

[पि. श्रीनिवास प्रभू (१९५२-) साहित्य उपासक म्हळेल्य। पासी समाज सेवक जावनु जन वळकून एत्तात. जल्यार विद्यार्थी जीवित कालारीच काणि प्रबंधं इत्यादि मत्सरांत भाग घेवनु पुरस्कार पावनु साहित्य वेदींतं प्रवेश केलो. नाटकाभीनयातंुय तान काडता. भावना सपंन्न लेखक कोंकण जनता मास पत्रिके खातिरीय कोंकणी भासे खातिरीय निरंतर प्रयत्न करता.]

नायक मामाकय माकाय कसल वळकि ना आशिल्ली. जल्यारीय तो धुरापाना ब्याराक गेल्लो म्हुण आयकूकनीक माका भो व्यसन जालें. तो मिगेलो बान्धव न्हयं आशिल्लो. जल्यारीय तागेले देहवियोगारि ड्ांवयं रोळ्ळों. तागेले खटल पालकेक खांद मारूक हावंय चमकीलों.

एक एक फांतांय 'हरि नारायण' म्हणचे वेळेरीय मिगेलो उडगास पंचेवीस वर्षां फूडे जालेले ते संभवाचो उज्वल दर्शन दित्ता राबिलो. पंचेवीस वर्षां फूडे म्हळेंलें न्हयं ताजें प्राधान्य. ते वेळार माका सात वर्षां प्राय तं आशिल्ली. सोगों करूक कागत काडून घेंवचाक दुड करून

तुंटल्लें सूत सग कोट्ट घालनु थापूक पशे सोद्दून प्रेस्सांत चोणु भौंचो वेळ. तेदूस कोणेय सांगिल्या सारांश मनांत करूक जावो, तें तकीत चौंकूक जावो जालेलें जल्यार आज माका ही गति पांवचीना आशिल्ली. ते उतरांक आशिल्लो शब्दार्थूय, व्यंग्यार्थूय मनांत करूक सल्प वेळ चड काळो हावें. मिगेली चूकि तुतली तं. जाल्यार........सान कुराडीन वोळ्ळे रुकार मारना फडे ते रुकाचेर एंवंची फूटी वरी जालीं मिगेले हरद्यांत ती उतरां. आतां हांव तो उडगास केल्लेले वेळेर खांदयार आशिल्ले किडबीडिचो भार एक भार म्हुण दिसना.

विश्वस्थु नायकमाम म्हळयार दोळे धांपून देवाचेर विश्वास दवरचे भक्तावरी तं. सगटय ताका तश्शी मनांत कर्तात. जल्यार ताका देवाचेर तुतलो विश्वास ना आशिल्लो. ताका देवाच्या पासि चड विश्वास मानिश्याचेर तं आशिल्लो. तागेलें जीवित ताका एक उत्तम दृष्टांत तं. तागेले चेरडु प्रायेर सतेरा आषा वर्षांचेर अंगडीत ब्याराक जावनु आयलेले एक ब्यारेल्याली धा सास रुपयाची एक चीरी हाथ विसोरनु आंगेले नायक मामाले हातांत मेळ्ळी. धन्नी कोण म्हुण कोण नेंणं. जल्यारीय ती चीरीय घेवनु राजधानींत वचून राया मुकार दवरली. धा सास रुपया म्हळार आतां व्होळ्ळीं कायरीं न्हयं. जाल्यारीय तेदुसचे धा सास रुपयांक अत्तंचे धा लक्षु रुपयांचें फलतं. सकाक देढ रुपयाक वोरोव मेळचो काल.

राया लागी थाकून दुडवांची चीरी मेळेले ते व्यापारीन नायक मामाक पुरस्कार केलो. रायान ताका एक बहुमाना नांव घालें. "विश्वस्थु". तेदूस थाकून नारायण नायकमाम–विश्वस्थ नायकमाम जालो. तें नांव सफल करचे कार्यांक तागेलें सर्वस्वय त्याग केलोलो तं तो नायकमाम.

ते कालार "विश्वस्थ" नायकमामान सांगल्यार चांग चांग काम मेळतालें तं. नायकमाम एक दुद्देवालो कार्यस्थ जावनु आशिल्लो वेळ. नायकमामालो प्रतापाचो काल. दुद्देवान नायकमामाले नांवार जायतीं परमां, गजण्यो, काडून घेतलो वेळ. नायकमाम केन्नाय सकाळींय सांजेय सैकळारि तं आफीसांत वतोलोय एत्तलोय. नायक मामान सैकळार

येवंचे वेळेर अल्तान्तूय पेलतान्तूय चोवना. सैकळ हल्लूना. समंच धावतलें.

एक दीस अशीच सांजे कामाक वचून नायक मामान सैकळार घरकडे येवंचो वेळ. आमकां मुसमूस येवंचो वेळ. हल्लुनातिलें नायक मामलें सैकळ एक हलौंका म्हुण मोह जालो. हावें सैकळ सिकचे वेळेर नायक मामाले मुकार पांवचाकनीक दावे तांत थाकून उजे तांत काळें. समंच एत्ताले नायक मामान सैकळ घुंवडायलें. हांवय सायकळ घुंवडायलें. नायक मामनय घुंवडायलें. सैकळार अधिक अभ्यास कोळ नातिलो हांव गरगडेवनु पळ्ळों. नायकमाम पळ्ळोना. नायक मामान सायकळ राबोवनु माका लागी उळदीलो. कन्ना किरलो धरून सांगीलें "खंचे वेळेर जन्म घेतलो रे तुम्मी? चोवनु वचाक कळनावें?"

गरगडेवन पळ्ळेल्या उंचार कन्ना किरलो लगेन! माका दुःख सहन जालेना. कोपूय मिगेलेच भागाक राबलो. ते वेळेर मिजे वरी चेरडुवां लागी थाकून ताणे दूर खंय सरना. इत्या म्हळ्यार पक्वता पाविल्यां लागी ताणें वचें तेलांत उज्जा कीटि पोडचे वरी तं.

सोंवचाक जीभ उंचार येना. लागी पळ्ळोलो फाथोर काडून नायक मामले मात्थ्यार सोळ्ळो. एक फाथराक आंबो खाला घालचें माका नायक मामालें मातें व्होड कायरीं न्हंय आशिल्लीं. देवाले दयेन मात्र तं विश्वस्थ नायक माम आज कुरडो नायक माम जावनातिलें तागेलो काल काणु गेला.

ते दीस भित्तर हावें खंचे प्राण्यांक सरी दुकी पांवचवरी मारलोना. अशी सांगीले म्हुण हांवे तें उपरान्तेय कोणाक दुकयलेलें आसा म्हुण कोण लेकूक पाड ना. प्राय जत्ता तशीच तीं कायरी मिगेले मनांत पडून झळकतात. ते उपरातें नायकमामाले मुकार येवचाक सरी माका भय तं आशिल्लें. काल भित्तर नायकमामाचे मुकार हांवे तोण्ड दाकेयलेना.

अहंकारा जीवित, कोणाक लेकूनातिलो स्वभाव मिजे चांगपणा खातिर कांय पुणीय करूक शक्तन्हंय म्हुण कोळूक माका तोडोव जालो.

ते वेळेर तं नायकमामाक दुद्देवान कामांत थाकून भायर घालो म्हुण हावें आयकीलें. नायकमामाले नावांर आशिलें दुद्देवालें धन सर्वंय ताणे पर्तून काडून घेतलें म्हुण आयकीलें. जनपदानी सगटानीय सांगलें "जाल्यारीय ते दुद्देवान अशी करूक पाणा आशिल्लें तं". सल्प लगेन विवेक ऊणे आशिल्ले जनपदान सांगलें "कामांत थाकून भायर घालो, जाल्यार स्वत्त परतून दिल्लेलें नायाकमामाली एक चूकि तं".

हांतूले हास्य इतें म्हळयार वोलिये लागून खोली लागेन गेली म्हळेलेंतं. तागेले प्रयत्नान केलेंले स्वत्तय नायकमामान दुद्देवाक बरोवनु दिल्लेलें तं. उणे जनानी तं नायकमामा लागी हीं कायरीं निमगील्यांय. निंगील्यां लागी ताणे सांगीलें "नायकमामाले नावार इतेंय स्वत्त आसा जाल्यार दुद्देवाक फटेयलेलें म्हुण न्हंय वे दुशेरे सांगतले?" नायकमामाली हीं उतंरा आयकून जनपदान ताका पिशें म्हुण मुद्राधारण केली· नायकमामूय तगेले सैकळय आजीय समंच धावंता.

हावें केलीली चूकि माका आतां मनांत जावनु येत्ता. तुगेली हादि तुवेंच झाण करूका. जीवितांत जायतें प्रयाण केलेले नायकमामान सांगून दिल्यावरी सांगून दिवंचो–"अरे पुत्ता! तूवे उजे कडेचान सैकळ हाडना फडे तू जाणजा! इतें म्हल्यार तू एक चूकि करता मात्र न्हंय समहादीन भौवचाक तू हादि चुकेयता लागेन तं". तगेले नांव बलाव जावनातीलें राबचे खातिर सर्वस्वय त्याग करचो मनिश आज ऊणे तं.

व्हय! नायकमामान तेदुस मिगेले कन्नाक किरलो धरनु सागीलें उतरांचों सारांश हो तं. हें तं जीवित. सगटानीय वचका जालीली हादि एकीच तं. मागीर क्षणभरि आशिल्ले हें जीवनांत अल्तपेल्तांत इत्या की हे झगडें झूज? इत्या हो कोप विरोध? इत्या ही असूया? इत्या हो अहंकार? सगटाकय तागतगेली हादि आसा. तागतागेले हादीन तेत्ते चंकतात. दुशर्याले हादीर चढचे वेळेर मनांत करून घेयात "आमी चूकि करताय मात्र न्हंय, दुशर्याक चूकि करूक प्रेरणा दित्ताय लगेन तं. जत्ता जल्यार दुशेरो येत्ता म्हुण दिकल्यार वाट सोण दियाय आनि चोयात–तुमचे मुकावली वाट पवित्र तं".

"वाट.........वाट". हें आयकून मुकार चोंचाकनीक "रुद्रविलासाचे" कवडाकडे पावलोलो हावें, खांद मरलेले मनिश पर्तून वगळ्यान खांद मारनु तं उतलें चंवकून आयलां म्हुण मनांत करूक जायती घडी काळ्ळी.

शंव संस्कार जावनु न्हाबन आयलेले माका जीवितांत नवें जावनु एक लक्ष्य, आदर्श सग आयल्यावरी दिसलें. प्रयत्न केल्यार पांवचा जाव नातिलें कांय ना. अशी मनांत लेकून हांव घरकडे चंकीलो.

---

# "रेणू"

[श्री शरतचन्द्र शेणाय (२७) एक बिरुदधारि तं· अनचिकमळ तं शेणैयलो गांव· कानारा बँकात कामार आसा· जि· एस· बै· ए· (केरळ) हे संस्थेचो अंग· कोंकणी, मलबारी भासेंत कवन, काणि सग्ग बरेयता· कोंकण जनता मासिक पत्रारीय बरवप आसा· १९७९ प्रथम अखिल केरळ कोंकणी कला साहित्य सम्मेळना अनुबंध जावनु केरळा आधारार चंवकीलेले कविता मत्सरांत एक दुस्सरें पुरस्कार हे लेखकांक मेळ्ळें आसा]

सकाळीं म्हंतान शिंपूचे वेळेर खांब्या सवळि थंय पाविलस्तली. देड आळ नीट आसा दीव्या खाम्बो. उदेवनु ऊंच सरलेल्या सूर्या ओत तेद्दोळ धोरनु मात्र ताणे घेतल्या पूरो. सानूच तं आतां. म्हंतान ताका सानच आळेंय केल्लेंलासा. पाल्ले आतंय मोव्वाळे तं.

सदंच शिंप्पूचे फूडे रायाक उळदुक म्हांत उडगास दवरतलो. कोळशे बांयचे लागीच सोण चेम्बांत उदाकय घेवनु तो एतलो. चेम्बा तोण्डार बोटां धोरनु ल्हावूच वोरे केल्यार पूरो सग म्हंतान शिकेयलेंलें आसा आळें भरी उद्दाक जल्यार तेदूशची जोली जाली.

"उदक पळ्ळें-चोय म्हंतो तो पल्ले हालेयता".

"न्हंयरे. उदक शेळ देकून तं. रेणूक शीं खातास्तलें".

म्हंतालो मोगा पूत तं तो. केन्ना ताका हें तें सारें घालनु म्हंतान ताका राया इतलोच केला. शिरपूट सरि खंदे धोरनु घरामुकार सान आळयांत एकलोच जावनासा तो. रायाकय म्हंताकय एकूच विषय.

"रेणु चोय म्हंतो, तो इतूल व्होड जातलो? म्हंता इतलोच वे?"

"मागिरी! तो व्होड व्होड जावनु अंगेले घराचाकय ऊंच वतलो."

"उब्बून वे?"

"गडुव." म्हंतान केन्नाय म्हणचें तं. "न्हंयरे दिगाय दबरनु खंदे एवनु थोरु थोरु जावनु-मूळ सग धावनु-पल्लेवनु फुलजडेवनु व्होड जातलो."

म्हंताक तें मुकार देकूयेता. चिके एक दोळो आड केल्यार पुरो. नतवाक जल्यार रूक थोरु थोरु जांवचो लेकून हास गीळू जायना. "थोरु थोरु जावनु केळकावेले गोंयदमामा वरी!". एक मेळयार मागीर तेंच पूरो. अशी सांगून भोंवतलो. जल्यार कशी की अस्सने सग विसरचें?

"अमा अमा, चोय म्हांत सांगता तं मागीर थोरु थोरु........."
लेकिना फडेच हास एत्ता. मागीर सांगून मनां करचे कशी?

"इतेंरे? एकच सांग! ना जल्यार हास! चोयनाइत्या पणु किटकिटेता."........

थंय थाकून तं अप्पाले कन्नांत पावंता.

"आयकताय वे तुमी. ये तुमगेले अन्नाकय रायाकय एकच दोराक बान्दूयात. फालें जल्यार दोग्गंय करनु तें सरशे लागी गेल्यार मागीर एक घुवंना सरि थंय थाकून. हें तें सांगून दीवनु चेल्याक आतां एक सद्दें मनां जायना. माका जाल्यार तो लेकीनायींय.........."

"रायाक म्हांत म्हळयारीच प्राण तं". अप्पाप हासता, "खंय आसा वे तो थांगा? राया अरे राय अशी यो–"

"इंचेय वाहन–धावनु खरशेवनु हुमेवनु चोय कसलें रूप केल्यां म्हुण!" अम्मा. राय अपाले होंटीत पावलोच.

"रायाक अप्पा जाय कीं म्हांत जाय?"

"अप्पा."

"ऊं! चोर चिलवाण कांय न्हंय........" अम्मा.

"तवळि म्हांत नाकावे?"

"जाय–अप्पाय जाय म्हांतूय जाय."

"अम्मा–?"

"अम्मा कोपता रायाक........"

"व्हय कोप्पता–जांग सोलून दवोरका." अम्मा. तिका इतें हें सग कळचें? दोळ्या मुकार इतें आसा तें ती दिकता. तें सग थेट कळता. ताजे भायर इतें आसा. इतूल साबार आसा. ताका कांय ती वळकी दिना. बमूण आसा. ताणी सुखी राबका–तीची बायल. चेरंडू आसा–कांय दोष पाव नातीलें तांका वाडौंका–तीची अम्मा. तिका सदंचे कयरांत व्होड उडगास. सान प्राये लोक–सपनाचो लोक–सगलोय तो सवळ्यांत. कर्तव्य सग सोर भितर, हात कडकडेव भित्तर, आय्ये लागी चेरडुवानी काणियो निवगु भितर........"

"अप्पा...अप्पा..." राय तं. हतांत चेम्बूय आसा. "अम्मा, अप्पा खंय?"

"कूडींत आस्तलो". अम्माचे मन्, "हुम्बोर चोवंका राया. चेम्बूय घेवनु धावतां चोयल्यार दोळ्ूयांत काळूक एत्ता".

"अप्पा म्हांत चोय........"

"रेंवे चेंबू कूडी भायर". अनबाळो तं अप्पा.

"थांगा. बेसला म्हांत. अप्पाक उळदीता धरार यो खंय."

सरशे लागी तशी रेंवेंत पाय सोण बेसला तं–दोन्नीय हात भूंयक खोंबून, दोळेय धांकून. आळ सगळोच हुम्मेवन निस्तता.

"इतें अन्ना?" दिकचाकच धावनु पवलो भाव. "एक अम्माक उळदीरे".

तशि तं रायालो म्हांत मंच्यार जालोलो. भारी आलोचन विचार करून रायाक तागेले अम्माले घरकडे राबोंचाक निश्चय जालो. "कशी आयकतलीं म्हुण कळना. ताका तागेलो म्हांत लागी नातिलें नीद तरी पण्णा".

"चेटाक कशी?" जनपद. आयकूकय दिकूकय एता. "वळकी गेलीना. इतलेंच. तोण्णांत घल्यार सरी भितर पावना........"

रायाक वरचे पुरथम दाकयलो. सबाव दोळयां उदक एत्ता मात्र. अक्षर भायर एना–आज ना फल्या इतलेंच. वर्षंय जाली न्हयवें?

तशी एक मासा भायर राय आये थंयींच. थंगा ताका खेळूक सुश्शीं तं. तिजे लागीय व्होड कायरीं तं ताका.

"कोणा लगी सांगूना म्हुण सांग–" ती हत्तार थू करून घट्टि सत्य करतली. "मिगेले घरकडे थंगा रेणु आसा. म्हांतान मिजे लगी मात्र मू सांगील्यां! केन्नाय हांवे शिपिल्यार तो व्होड जावनु घरा ऊंच वतलो. व्हय".

दोगंय खयींय मुल्यांत वचून मात्या मातें लागोवनु व्होड रहस्य तं.

"मागीर थोरु थोरु जावनु रेणु चोय गोंयदममावरी जातलो खंय".

"तवळी जल्यार तुम्गेलें घर खंय व्हरतलीं".

"आवो? म्हातां लगी नीवंगू".

कळोंचाकय एंचचाकय कांय अधिक कोण ना देकून समंच सग चमकीलें. अम्मा बप्पा कोण वरलीनात. बायल चेरडूवां कोण नात. एक भाव. तोच चोड! आशिल्ले वेळेरीच मनांतले वेगळेच एक लोकांत दीस काडतालो रायालो म्हांत. देह सोळ्ळेंलें ताका कळ्ळेंवे?

"माका एकलोच आन तं. बप्पान सात बर्षां जल्यार अन्नान चौधा वर्षां तं माका वाड्डेयला. बप्पालो तेरावो अन्नान कशी केलो; तजाक केमम जावंका हो........."

"राय?" अम्मा.

"चेल्याक हें सग्ग जात्तर हाडू. नुप्पूरवे?"

"ताजे लागी इतें सांगचें कि आवो........."

"आशिल्लें सांगका, तेंच".

"ताका प्राण तं आशिल्लो..." अम्मा रडता जल्यार तें तिगेले पुताक लेकून.

तेराव्याक मान्दिलें मडळा चार्त पर्यान काण जात्तर तं रायाक घुंवडावनु हाळ्ळोलो. सुश्शेकय दोन दिस्साक हाळ्ळी. चेल्याक लागी जत्तली नवें.........

वाटेरीच दवरनु एकेकच अप्पान सांगून दिलें. रायालो म्हांत स्वर्गार गेलो म्हुणुय आनिक एवना म्हुणुय सग.

"माका कळता" सुशेंक मनां जालें. "अरेय म्हांत मेलो तं गोंयदमामाले अप्पाक लासीलो चोय........."

"तवळी रेणु...?"

घरकडे पावंचो तोडव, राय धावलो म्हांताले रेणूक चोंवचाक. म्हळ्यार तेराव्या वेळेर थंगाची सर्व रोंप्पी सरशी हुमाटीली. चार्त बन्दूक.........

"ईचय रडता". सुशीय धावनु पावली. मगल्यान रायालीं अम्मा-बप्पा, खोळशेंचें चेल्याक कशी समझांवचें म्हुण कळनातिलें राबलीं.

"म्हांतान सांगीलें, शिपलेना जल्यार कोपून वतलो म्हुण........."

"इतें? कोण कोपतलें म्हुण की?"

"यो रायाक हुनची दुदांत बुडोवनु बिस्कट दिता चोय" चेलो रडता. "रेणू......रेणू......"

सुशेक मात्र मनांत जालें.

---

# चान्नीणें

[पय्यन्नूर रमेश पै (१९५९-) आतां इंग्लीश बी· ए तीसरे वर्ष सिकता· कन्नडा, मलबारी, इंग्लीश, हिन्दी आनि कोंकणी भासो कळतात· प्रथम नाव घेतले तीन भासेंत चड्य बरयता· कन्नडा आनि मलबारी भासेंत सुमार पन्नासां भायर विविध शाखा लेखन बरेयल्यांत· कन्नडा भासेंत थाकून दोन कादंबरी (Novel) मलबारींत अनुवाद करनु घेतल्यात· कोंकणींत काणी, कविता आनि लेखन बरेयता· कोंकण जनता, पंचगदाय, समाज डैजस्ट आनि सारस्वत वाणी ह्या पत्र पत्रिकेंत मस्त बरेयता· १९७९ दीपावली अनुबंध पंचगदाय मासिक पत्रान चलैयलेले मत्सरांत काणियेक प्रथम पुरस्कार घेतलो· बरोय्यांक लागी काडचांत उत्सुक आसा·]

निद्दलेल कडेन तो उमति उदरि पळ्ळो. ताग्गेले मात्त्यांत एक हजार विचार भरला. दिवस वत्ता वत्ता मनांतूले समस्या वाडता· निद्दल्यारीय नीद पणा. ताणे देवाक आठैलें.

चित्राले खातीर सोयरीक सोद्दूक आरांभून आज दोन वरस भरले. पुणि, दोन्नीय तरपेक मेळनेवचे सोयरीक एक नै एक कारणान जायना.

देवा! ही कस्सली परीक्षा?

चित्राले म्हालगड्यो दोग जणांक व्हार्डीक करून दित्ताना लेकले:

"आयुष्याचे कर्तव्यांतुले अर्वास जल्ले. आनि वर्लेले अर्वास लागून सुधारसूक्का. देवस्स".

उद्योगांतुले निवृत्त जात्ताना पैंशि रुप्पय संबोळ आश्शिलो. ताज्जेन जीवन करून दोग जाण धुवांक चांग कडेन पावयली. जाल्यार, तीं सोयरीको सोद्दूक विशेष कष्ट जायने. आत्तांचे कालाक सोयरीक सोद्दूचे पाशिय, मेळनायल्यार देणे पाव्वोचे तं कष्ट. दोन व्हार्डीकेक सुमार खर्चून संपाद्याक क्षीण जाल्ला. आनि दोग जणाले व्हार्डीक लागून कश्शि सुधारसूचे म्हण आलोचन करताना मनांतुलो उज्जो व्होड जात्ता.

संबंधिक कोणै सहायाक पावंतले म्हणु ताणे लेक्कीले. बायलेले उत्तै चिके आश्वासु दित्तालो. जाल्यार दोन्नीचे धुव्वेले व्हार्डीक जत्तेरि ती प्रतीक्षाय बूडली.

"वैगो, अम्मि लेकचे मात्र, सक्कडै आमगेलींच म्हणु. कार्यालाग्गि पावताना आमकां अम्मि मात्र."

"हांवे लेक्कीले, माधवमाम हे पावटि व्होराण आप्पोवन हाडचे खर्चु काडतलो म्हणु. हु! तो व्हार्डीकेक तांय एने. इत्तकी, गेल्लेल पावटि ताणे ते दिल्लेले पुण्य!"

"ते तशींच नवें? आमगेले चेल्येले व्हार्डीकेचे खर्चुय दुसर्यांनि काडका म्हण्चे चूकि".

"माग्गीर तुम्मि सांगता कस्सलें?"

"ते, व्हार्डीक चलोवचांत न्हैं, व्हार्डीक सोद्दूक पुणि कोणानी सहाय करूक नज्जवे?"

—ते, संभाषण थंय तिर्वलें.

*　　　　*　　　　*

एक दिवस एक भटमाम्माले गुर्तु जाल्लो. ताग्गेले खांधार एक चील लांबोवनशिशलें. तांत जातकाचे प्रतियो भर्ला म्हुण कळ्ळेले माग्गीर.

"तुम्मिवे रामराय मामु?"

"वै...तुमगेले परिचय मेळ्ळोना मू?"

"आ...तुम्मि मेग्गेले गुर्तु करका जाल्लेले अवश्य. माका किटभट म्हुण आप्पैताति. ते आस्सो, तुमका चेल्लि वाडल्या की ना?"

आतां कळ्ळें. सोयरीक दाक्कोवन दिवचे किटभट व्हो आतां.

"वै, दोन वरस जाल्ले सोद्दीता...खें मेळनेना. दोन तीन वरसानि तिज्जे धाक्लीय व्हार्डीकेक तैयार जात्ता".

रामरायान कुटुंबाचि स्थिति विवर्सून दिल्लि.

"जावो, आत्तां चेल्येक प्राय कित्तूलि?"

"तेवीस".

"वैवे? मेग्गेलाग्गि सुमार चेक्र्यांगेले जातक आसात. तुग्गेले चेल्येले जातक हाडि"

हो! मनांत समाधानाची एक झळकि तेन्ना आयली. हाणे सांगचे बद्दवे? आपण्याक सहाय करूक हाजान जातलेंवे?

व्होग्गि जातकाचें नकल हाण दिल्लें. किटभट्टान चिल्लांतुले काढु काणु तांतुले थोडीं जातकां ताणें वेंचून काळ्ळीं. माग्गीर, हात्तांतुले एक जातक काणु दिल्लें.

"घे, ये तूम्मि काड्या. चेर्को गुणवंत. मंगळूरात आस्सा. बेंकांत काम. बाप्पूस ब्यारेलि. माग्गीर, तुमगेले भाग्य तकीतासतले".

रामरायाले मनांत चिके लागून समाधान दिसली. ही सोयरीक पुणि मेळनाय्यील जल्यार. जेवणा नतंर ढेंक काडताना किटभट भायरसरलो.

"हांव एक म्हैना नंतर येत्तगा, इतें?"

"हां, भारी उपकार".

किटभट्टान वच्चे पळोवन राबताना दिसलें. आत्तांचे कालाक अस्सलें जणैं आस्सामू!

किटभट्टान दिल्लेले जातकाचे मक्शिचे पत्तो पळेयताना संशय दिसलो. हे चेर्याले बाप्पूस आपण्याले बायलेले कुटुंबाचो म्हुण दिसता.

"माधवी...माधवी........."

ती आयली.

"तुग्गेले म्हांतालो पूतु मंगळूरांत ब्यार करूनास्सावे?"

"वै, ताग्गेले चेल्याक नवे बेंकांत काम मेळ्ळां".

"आ...ते चेर्याले जातक तं किटभट्टान दिल्लां".

"वैवे? माक्काय ताज्जे विषय गोत्तास्सा. जाल्यार देण्याचे वोजें व्हड आस्तले दिकून हांव उल्लैने".

एक दीर्घश्वास काण रामराय म्हणालो.

"आस्सो, चेल्येले योग कश्शि पळे तश्शि जात्तलें. दोन वरस जल्ले नवे सोट्टीतात.?"

तान्नि पोड्डबाळाक जातक दाक्कैलें. उत्तम नावन मेळामेळि आस
म्हण कळ्ळें. चेर्क्याले बाप्पूस वेंकट्रायाक विवर जाणासीलों.

"वैगो माधवी, हांव एक मंगळूराक वच्चून येता. चित्राक ह
सोयरीक निश्चय करूका."

भायरसरताना ताणें चित्राले तोंड पळैले. ताग्गेले दोळे भोर
आयले.

एक रात नंतर भांडि कोडियाळाक पावली. घर सोद्दून काण
रामराय थंय चमकलो.

जगलेर वेंकट्राय भावाजि बश्शीलो.

"ओ...भावाजि आयलोवे...यो, यो".

"मेग्गेले पत्र मेळ्ळा की?"

"वै, मेळ्ळा...सक्कडै सौख्य नवे?"

कुशाल जल्लि, खबर जाली. रामरायान मनांतूय खंडित केल्ले
ही सोयरीक जायनात्तीलें परतूक नज्ज. हो चेल्लो एक वाटेर चित्राक
हक्काचो बाम्मूण. हिवै सोयरीक चुक्ल्यार मागीर.........

सत्कार उपचाराचे उपरांते सोयरीकेच प्रसंग आयलो. देण्याचि
खबरै आयली.

"भावाजी, आत्तंचे कालाक देणे नात्तीलें सोयरीक जायना पळे
आमगेले दामोदराक उणेच धा हजार रुप्पय पुणि देणे जावन मेळका
माग्गीर भांगार तुमगेले अनुकूल तकीत".

रामरायाक धस्क् जाल्लें. धा हजार रुप्पय, खंचि हाडचि. म्हालगडि
धुव्वांक पांपाच हजार दित्तानाच हर हर जाल्लें. आत्तं–

"तश्शिवे, पळोया, भावाजि".

"..............."

"धा हजार चिके चड जल्लेमू. मेगेली स्थिति तुम्मि जाण नवे? तीन हजार पुणि हांतुले तुम्मि ऊणे करका".

"भावाजी...हांवें संगलें नवे? आत्तंचे कालाक तकीत अम्मि चोलका. बेंकांत काम आसचे खंचेय चेल्याक आत्तं धा हजारा ऊणे देणे ना आमकां भांगराचेर आशा ना दिकून तांतु अम्मि हठ धरनाच".

चेर्याक चेल्ली पसंद जाल्या. चित्राकै दामोदर इष्ट. जाल्यार, देणे हांगा प्रतिबंध जाल्ला.

"आस्सो भावाजी, फाय वच्चे भितर हांव तुमका जवाब दित्ता".

तेदूस रात्ति चांग चान्नीणे आश्शिलें. मांचार निद्देवन रामरायान अनेक दीर्घनिश्वास काळ्ळे. मनांतुलो उज्जो दुस्सेरीय जळूक लागलो. ही सोयरीक करनात्तीलें परतून गेल्यार?

–नज्जं; ही सोयरीक चुक्कूक नज्जं. हक्काचे बामणान पळोनूय सोयरीक चूकली म्हणताना गांवांत खंचे खंचे नमून्याचे खबरो जात्तल्यो. देवाक एकळ्याक गोत्तु. चेल्येल तोंड पळेयताना हरद्यांत गुडगुड येत्ता. ना...ही सोयरीक चुक्कूक नज्ज. ही निश्चय करचे खंडित. हांव अभिमानि जाल्यार ही सोयरीक निश्चय करचे खंडित–ताणें मनांतूच निर्णय केल्लो.

हेरदिवस ताणें सांगलें.

"भावाजी, तुवें सांगचें सक्कड सम्म. जाल्यार, तुवें हांव सांगचे एक आयकूका. ही सोयरीक करूक हांव तैयार. जाल्यार, तुवें सांगील्यापाशी एक हजार रुप्पय पुणि तुवें ऊणे करूका".

"..............."

"ना जाल्यार, तुवें निमगीलेल्या पशि एक हजार रुप्पय हांव दित्तलों."

वेंकट्रायाक मनांत कळवळ जाल्लो. हे कस्सले नमूनो! आपण्य चेल्याक धा हजार भर्ति मेळचिनावे? भावाजीले स्थिति जाण दि ताणे सांगचेय सम्म. ताज्जेर भार आस्सा. हांवें निर्बंध केल्यार उश्शीण्यांत पडत.

"जाय्त भावजी, तुवे सांगील्लाक हांव ओपवतां. तुवें णव्व हज दिल्यार पूरो. माग्गीर भांगराचो प्रश्नो–"

"ते तुमका हुस्को नाक्का. तिक्का कान्नाक गळ्याक हात्ताक ह दित्तलों. आन्नि निश्चय करचेची नवे?".

रामरायाले हरद्याचि जडावण ऊणे जाल्या वरि दिसलें. समस्या लागून सुधारसलां. चेल्या चेर्डूवं नात्तिल्यान भार सग्गट एकल्या व्हावंका जाल्लो.

वेंकट्रायान मिठाई उण्डो वांटलो.

त्या रात्तीचे भांडीर रामराय परतलो. भायर चान्नीण्याचो उजव आश्शिलो. ताग्गेले मनांतूय एक चन्द्रु उद्देलो. चिन्नाले हसन्मुखी त ताग्गेले दोळ्या मुकार आयलें.

---

श्री जि. मुरलीधर पै

# सत्य आनी मित्थ्या

[जि. मुरलीधर पै (२७) जि. एस. ए. कलाविभागंत सजीव जावनु भाग घेता. शिकचे काळाक हस्त लिखित मासिकेंत बरेयतालो. चांग एक 'स्पोर्टस मान' तं. स्पोरटसांत म्हस्त पुरसकार घेतले आसात. कोंकण जनता मासीक पत्रार बरवप आसा.]

हांवें मनांत आग्रह पाविल्लेच लेकान मिगेल व्हरडीक जयन्नूय जावनु चमकीली. जयन्नु मिगेले अड्डे माम्मालो पूत. मद्रासाक चाग कामार आसात. तंगेले आवसु–भयणीय सग मद्रासाकच राबतात.

व्हरडीक जालेल्या वीस दिवस भितर तीं माक्काय घेवनु ह्या मद्रास नगरांत पावलीं.

जाल्यार पराजय पाविल्ले मिगेले जीवितांत खंतय कि चूकि आयिल्ली म्हुण माका कळना.

सेन्ट्रल रेलवे स्टेषनाचे मुक्कार बस राबलें. बसार थाकून हांव खाल देवलीं. लागी मिगेली आवसूय आसा. स्टेषनांतले वरांचे कोरंड्यार

सात वरां वीस निमिषां दकयतात. गाडी सोडूक आनी अधिक घ
नाय. आवसूक वोड्डून म्हळ्ळेल्या गदीच, हाथाक धोरनु बायलां
कंपार्टमेन्टान्त चळ्ळी. एक घडी लागेन तोडोवु केल्लोलो आशिल जाल्य
गाडी आमकां त्याच स्टेषनांत सोडून वत्तल्ली आशिल्ली.

गाडी धांवचाक लागली. चांग शेलवताचें वारें एवंचाक आरांभि
तें शीतल वारें लागून मिगेले शरीरय शेळ जालें. त्याच लेकान मनांत
आश्वास मेळतलो म्हुण लेकलें. जीवित भार जावनु दिस्सले माक
तांतु थाकून मोचन मेळका जाल्यार बामणालें घर सोडकाच म्हुण मनां
जालें. त्या घरकडे मान्यतेन, **मरयादेन** दीस काडूक साध्य न्हंय.
दिकून तं आज हो प्रयाण.

आवसु खोणसां काडून रडता. तीणे मिगेले जीविताची चू
देकून धरली. "सग ना जालें, जाल्यारीय माका मिगेले धूव ना जालेन
न्हयवे? महामायेनच माका राकली." आवसूलें आत्मगत. हीं उत्त
आयकून हांवें आवसूचे लागी निगगीलें "आम्मा रडतवे?"

आवसून व्होगीं दोळो पुसले. "ना धुवे" एक फट्टीच.

आशाय आग्रहुय माका कारयाचे रूकार व्होरनु साणता. तेदू
जयन्नुले बरप एवंचाक कोणाक दाक्कोवनात्तिल्लें प्रथम वाचिल्लें हावेंच
तं. "हांव लग्गीचे सप्ताहांत गावांत पावंतां. व्हरडीक जाल्यार वीस-
बावीस दीस भितर तिकाय घेवनु हांव हांगा कामाचे स्थलार एत्तलों."

अपूर्णंत भरलेल जीविताक व्हरडीकेच उपरान्ते मात्र तं पूर्णत्व
मेळता म्हुण हांवें लेकलें. जाल्यार अनुभवान माका इतें शिकयलें? आवसु
भयणी, तिगेले चेरडूवां. तांगेले ताळारी नंचुच्चो, फाट्टीचें हाड नात्तिल्लो
जयन्नू. माय्यनंय नणंदेनय तांगेले "व्यापाराची" तिस्सरी सामग्री जावनु
तं माका लेकल्या म्हुण मनांत करूक अधिक समय माका नाका जालो.

गाडी तिगेले यात्रेचें लक्ष्य धरनु मुकारीच धवंता. कंपार्टमेन्टान्तु
सर्वांकय नीद. मिगेली आवसूय कुरवंता, मिगेले दोळ्यांकडे मात्र नीदेचें
नांव सरी ना. समुद्रांतले पाळांचे गदीच एकार ऊंच एक जावनु

विचार एत्तच आसात.

संकल्पाचे स्वर्गार जायत्यो प्रतीक्षाय घेवनु व्हरडीकेच फूडे हांव भोवंतालीं. जाल्यार फलार पाविल्याक कश्शि जालें? मिगेलें कपाल.

जयन्नु! जयन्नूक जाय जाल्यार वेगळे एक चेल्लेक व्हरडीक करयात– हीं कायरीं नेणतां आशिल्लेक माका दुस्सेरी व्हरडीक साध्य वे? आमगेल आचार तस्सलो न्हयवे? व्हरडीकेचे मण्टपांत दव्वोरनु म्हालवड्यांगेलो अनुग्रह काण घेत्तली ताली–मंगल्य–जयन्नूले हतांत मेळूक, जयन्नूले मुकार पूर्ण सम्मत भावार गोवंटो बावगयीलो हांवें. सुन्दर, सुखपूर्ण एक जीविता पासून अनेक सपनां दिकून जयन्नचे मागल्यान देकी–वळकी नात्तिल्ले नगरांत पावली.

दुसेरीय मिगेल आवसूली खोणसं आयकूक पडताय. "आम्मा रडता वे?" दुसेरीय हांवें निमगीलें. आवसून व्होग्गी दोळे पुसून मिजे लागी एक फट्टी सांगली, "ना धुव्वे. दोळ्यान्त कसल की कोयर पळ्ळो". मिगेली श्रद्धा तिजेर तं म्हुण मनांत जाल्लें दिकून होंटीत दवरलेल्या एयर बेगाचेर मात्तें बवगोन्नु मिगेली आवसु कुरवूंक लागली.

मिगेले चिन्तेक उज्जो लागलो. देवान कस्सलें केलें मिगेलें कपाल? आनी मरण भितर हांवें मिगेले बामणाक सोण राबका जातलें मू देवा. असले एक परिस्थितियेर आनीकय बामणाथंय राबूक हांवें वच्चो प्रश्नूच उद्देना. मान-मर्याद राकून आवसूचे लागीच रबचेंच चांग माका. बापसूलें मरणाचे उपरान्ते आमंकां चेरडूवांक वड्डोवनु हाडूक आमगेल आवसून कस-कसले कष्ट भोगीले? तिका सान प्राय आस्तना तं बापूस मरण पाविल्लो. जाय जाल्यार मिगेले आवसूकय 'अनियेक' व्यापार, करयात आशिल्लें. दुरबळीं जाल्यारीय चारित्र्याक मोल लेकचीं आवसू–बपसूली धूव देकून तीणें कसलीच चूकि केल्ली ना. हड्डुं मोडशें कष्ट काड्डून आमकां व्हड केल्लीं.

खंच की एक स्टेशनांत गाडी राबली. भायर चाय, काप्पी, खाण विकचो गोन्दोळ. हांवेंय दोन काप्पी काण घेतली. एकी आवसूक जागोवन पिवंचाक दिल्ली. दुस्सेरी हांवय पिल्लीं. तें भितर भारचो गोन्दोळ आयकून लागीचे सीटार सान एक चेरडाकय पोट्टोवनु धोरनु कुरगुंटेवन नीद कडताली

बायलमनीश जागी जाली. काप्पी—चाय कांय जायवे म्हुण हांवें तिजे लागी निमगीलें. नाका म्हुण तिगेली जाप आयली. चेरडाक चांग करनु पांगूरनु एक लागेन लाग्गी काण धोरनु ती निद्देली.

गाडी तें स्टेषन सोण मुक्कार प्रयाण करुक लागली. मिगेली दृष्टि त्या चेरडाचेर पळ्ळी. चांग तोंड आशिल्लें चेरडूं. ह्या लोकांतूल घतकायो कांय पुणि नेणतां, आवसूले संरक्षणेंत पोडून सुखाची नीद कडता. देवा मिगेले उदरांतुय एक असलेंच चेरडूं जावंचो योग माका ह्या जीवितांत जायत वे? कशिश जवंचाक?

हांव मिगेल बामगाचे लागी वचून राबूक तैयार न्हय नवें. आनी अथवा खंचे की कालाक माका वेगळीच व्हरनु राबोवनु मानान, मर्यादेन दीस काडूक, मेळ्ळेले शंबळाचे दुडवानी जीवित मुक्कार व्हरुक, तैयार जावनु मिजे लागी एत्ता, त्या कालाक हांव बामगा लागी वचून राबतलीं. हो तं मिगेलो दृढ निश्चय. जायत जाल्यार हांव मिगेले गांवातुव मिगेले बामणाक ह्राडूकय, कसलेंय पुणिय एक काम घेंवचाकय श्रम काडतलीं. तशि जाल्यार माका सुरक्षेन जनन घेत्तलेच गांवांत दीस काडयात न्हयवें? आयलो जाल्यार मिगेलें भाग्य.

कशीय जाल्यरीय त्या मद्रासाक वचाक, तेंवय त्या दुरवृति करचे बयलांचे मद्दें वचून राबून दीस काडूक हांव ना. तसलें न्हय जाल्लेंलें कर्म करूक ह्या जन्मांत हांव तैयार न्हय. बामूण नात्तिल्लें जीवित काडका जावनु आयल्यरीय चिन्ना.

हो! मिजे परमात्मा! हे उतलेच दीस तूवें मिजे कर्यान नरकाचे समान आशिल्य त्या घरकडे कशिश काडेयले? आवसूनय धूवेनय सांगचे हांवे अयकीलेना दिकून कश—कशी तीं मिजे लागी चमकीलीं? कडचें, दव्वोरचें चूकि. हें केल्यार अशिश. तें केल्यार तशिश. काम जावनु, धापेवनु एवंचे बामणाचे लागी एकाक धा करून फट्टी सांगप. सत्य की असत्य म्हुण त्या मनशान जाण जावपय ना. आवसूक, अक्काक विरोध जावनु उल्लोवचाक जायना खंय.

"दाम नका, जायें नका, चांग दिसची चेल्ली जावंका. म्हालघड्यानी

सांगचे आयकुची, अनुसरण करची जावंका. जायत जालोलो दाम जयाक मेळता. चांग कामतं ताका. व्हड एक कंपन्यांत. दुरबल्यांगेल चेल्लेक व्हर्डीक करूक तं तो आग्रह पवंता. कशीय जाल्यार आमकां परस्पर एक दुरचें बन्धुत्व आसा न्हयवें. आद्याक तुजेच लागी तुगेल धूवलीं कायरीं निमगून जावो म्हुण लेकून तं निमगीताय. जयाय तिका वळकता न्हयवें. स्त्रीधनाचे पासून तूवें कांय विचार काडका नाका". जयन्नूले आवसून आराटाक गांवांत आयिले तव्वळी मिगेल आवसूचे लागी म्हळ्ळेलीं हीं उतरां आत्तंय मिजे कन्नांत गुंजेताय.

कांय नात्तिल्ली, चांग दिस्सुचे चेल्लेक व्हरडीक करनु व्हरूक तांणी कळ्ळेले निश्चयाचे मागल्यान आशिल्लें रहस्य संत न्हयवे माका मनांत जाल्यां. जाल्यार ते वोरव मिजे लागी सिजले नाय. हें सत्य मनांत जाल्लें दिकून हांव तांकां कडू जालीं. कस-कसलें प्रलोभन तांणी माका दिल्लें. इत्याक हांव तैयार न्हय जालीं. मागीर तं हांव तांचे दोळे मुक्कार दिक्कूक योग्य न्हय जालीं.

सग वृत्तान्तय जाण जावनुय मिगेलो बामुण नेण म्हुण अभिनय करता. तें तं माका असह्न जालें. "खंचेय वेगळें घर काडून दूर सरनु राब्बुयां, हांव कसलेंय दंद करूक तैयर तं. 'तुमीं माका सहाय दिल्यार पूरो" म्हुण बामणा लागी सांगलें. जाल्यारीय ते आवसूक सोडूक तैयार न्हय.

सत्याक जयन्नूक कसलें काम की? दोनशें रुपया पाशीय चढ कांय मासाक मेळना. सुखान दीस वत्ताय आवसूलेय, अक्कालेय 'संपाद्यान'. मिगेल आवसूकय मकाय पडलेली फटवण. तांणी सांगिल्लें सर्वय आमीं विश्वास पावलीं. अथवा मद्रासाक आनि वचून अन्वेषण करूक आमकां कोण आसाय. सांगचें सग सत्य म्हुण लेकलें. चेल्लेलें भाग्य म्हुण लोकानय म्हळें जाल्यार सत्यावस्था खंत्तय आसा?.

देवा मिगेली असली गति वेगळे खंचे चेल्लेचे चेरडाकय जावंचाक नज. फाल्या गांवांत पावंतर वळकीचीं, लाग्गीचीं सग मनीषां "बामूण आयलोना इत्याक? तुका सुख वे बामणथंय? तूं इत्तूल धारार आयली इत्याक? सुखली इत्याक? कांय विशेषु भी आस्सावे? केद्दाण वत्तली?" अशि अनेक प्रश्न करतलीं. देवा हांवें तांचे लागी इत्तें सांगचें?

---

# बकासुर

[श्रीमती सरोजा पुरुषोत्तम नायक (३०). कोंकण जनता मासिक पत्रार काणि, कवन, लेखन बरेयता. दैवीक पुराणीक विषयांत तान आसा. घरचे कामाचे भरसी साहित्य प्रवर्तन करचांत आभिरुचि दाकेयता. कोंकणी कला साहित्य संरंभात उत्सुक आस्वादिका जावनु भाग घेता.]

एकचक्र गांवां तेक्का भागाक जावनु एक व्हड वनभाग आशिशलो. त्या वनांतुलो प्रमाणितं बकासुर. बकासुर राक्षसांत कीर्ति पावलोलो एक तं.

वन भागाक तं वास करतालो जाल्यार सरि सांजे वेळार गांवांत एवनु थांगा म्हेळ्ळेले मनुष्यांक दिंशि मारनु खावप तं तागेले नित्य काम. तें देकून सांज जाल्यार मनुष्यांक बायर भोवंचाक व्हड भय भीति आशिल्ली. क्रमान ह्या असुरालो उपद्रव परदिनास जाल्लो. हाक्का एक उपाय धोरनु काडूक गांवांतुलो सरवेय मेळनु एक योग उळदून त्या योगांत बकासुराक अध्यक्ष जावनु आपेयलो. योगांत गांवंकारानी बकासुरा लागी एक विनंती केल्ली. दीस दीस एक भांडि भरनु पंच पक्वानी तय्यार केल्लेलो अन्नाहारूय घेवनु एक आळाक बकासुरान वास करचे कडे पेटोवन दीवूं. तें स्वीकार करनु

बकासुरान तृप्ति पावंका. ह्रीं एक वांग कायरीं म्हुण बकासुराकय दिस्सलें. ताणें कांयपुणि बदल सांगुनातिलें खरारार हस्ताक्षर केल्लें. त्या प्रमाणीं दिस–दिस एक भांडि भोरनु पंचपक्वाणी तयार केल्लेले विभव आहार बकासुराक पेटोवनु दिवंचाक प्रारंभ जालो. तो आहारूय, तें घेवनु आयलेलें ते मनुष्याक्य खावनु बकासुर संतोषान आश्शिलो.

त्या कालाचेर पांडव तंगेलि आवसु कुंतिदेवि समेत त्या गांवांत एवनु पावले. ब्राह्मण वेषार स्वल्प काल थंय जीवन काडूं म्हुण लेकून एक ब्राह्मणाले घरकडे वचन तांगेले अनुमतीन थांगा राबीलीं. दिस-दिस भिक्षाटन करनु म्हेळ्ळेल्यान उपजीवन काडूं म्हुण तांणी लेकीलें.

पांडवानि राबून आश्शिले त्या घरकडे ब्राह्मणुय, तागेली धर्म पत्नीय, एक धूवय, आनि एक पुतूय आसात.

एक दिवस पांडव भिक्षाटणेक जावनु भायर गेल्ले. कुन्ति घराचे सोप्यार बेसून पूर्वकाल स्मरण् चिन्तन करताली. त्या वेळार घरांत भित्तर थाकून खोलसं काण रडता जावनु आयकूक पडता. कस्सलें जाल्लें! इत्ति जाल्लें! ना इत्या बगेक जावयेत म्हळ्ळेले पासून कुंतीन चिंतन केल्ली. त्या वेळार ब्राह्मण पत्नी गदगद स्वरान उल्लेयता आयकीलें–"स्वामी तुम्ही कस्सले खातिर चिंतन काडका नाक्का. दुःख पावंका नाक्का. थांगा अभावारि में कुटुंब चोवंकोवंचाक अप्पण शक्त न्हंय. क्रूर जावनु आशिल्ले बकाक खाण घेवनु आपण वचन".

"प्रिये, मिगेले निश्चयांत तूं कस्सलेंय बदल ना तटस्त सांगूनज्ज. परस्पर आमचे तांत कोणेय आजि–ना–फायि मरण पावंचीं तं. आतां स्थितियेर आपण्यान मरचें तं युक्त दिस्ता. इत्या म्हळ्ळयार कुटुंब चोवनु काडूक प्राय जाल्लोलो एक पूत आसा. तेंचि न्हय कुटुंबाक जावंका जाल्लेलें सरवेय आपण्यान संपादन करनु दवरलेलें आसा. आपण्यान् तुक्का बकालागी सोळ्ळयार तूं मरण पावनु आपण्याक कुटुंब चोवंकोवंचाक कश्शि जातलें? तुक्का जावो बुद्धिय विवेकूय आसा देकून आंगेले चेरडूवांक संरक्षण करनु तूं सुखान जीवन चमकय". अश्शि म्हुण ब्राह्मणान सांगीले. उतलेंचि

जावंचाकनीक ब्राह्मणाले धुवेन सांगीलें कीं–"बप्पा हांव आज ना फाय तुमकां सोण राबका जल्लेलींच. देकून तुम्हि कस्सले खातिर दुःख पांवका नाक्का. ह्या कार्यान्त आपण तय्यार तं". हें आयकूकनीक ब्राह्मणाले पत्नीक सहन जाल्लेना. ती खोणसां काण रोण भायर एवंचाक कुंतीदेवि सोप्यार बेस्सल्या. कुंतीन ब्राह्मणा लागी वचून दुःखा कारण कसलें म्हुण निवंगीलें. त्या वेळार ब्राह्मणान बकासुरा काणि संगीली. नंतर फाय बकाक खाण् घेवनु वच्चूका त्या कुटुंबार थाकून म्हुणुय सांगीलें. कुटुंबा पिळगें परंपर करचे पुत्राक जावो, परधन जावनु आशिल्ली पुत्रीक जावो, तांगेल आश्रय जावनु आशिल्ले आपण्याले धर्म पत्नीक जावो बकाक खाण जावनु पेट्टोवंचाक आपण शक्त न्हय. जाल्यार आपण्य ह्या कार्यांत वत्तां म्हळ्ळयार कोण आपण्याक सम्मत दीनाय. तशिश आशिल्ले धर्म संकटांत, पणु तं आपण आस्स म्हुण ब्राह्मणान् कुंती लागी संगीलें".

त्या वेळार कुंतीन ब्रह्मणाक अशिश जाप दिल्ली–"उतलेंचिवे, तुम्मी कस्सले खातिर दुःख पावंका नाक्का. माक्का पांच पूत आसाय. निराश्रय जावनु आश्शिले आमकां संरक्षण करचे तुमकां राकूक आपण एक पुत्राक बका लागी पेटोवंचाक तय्यार तं. देकून जांवका जाल्लेलें सरवय तय्यार कराय म्हुण कुंतीन सांगीलें.

कुंतीन अशिश सांगीलें जाल्यारीय ह्या कार्यान्त ब्राह्मणाक सम्मत ना. स्वार्थ तात्पर्याक जावनु परद्रोहाक तो सम्मत न्हयं. परद्रोह दिवंचांक महापापि म्हुण तं संकल्प. निराश्रय जावनु आशिल्ले तुमकां ह्या कुटुंबार आश्रय दिल्लो विना वेगोळो कसलो उपकार आपण्यान केल्ला? तेंचि न्हय ताक्का प्रत्युपकार जावनु तुमचे तांत थाकून जीवत्याग करौंचाक माक्का अवकाश ना. तो अधर्म तं देकून तशी आश्शिल्ले अधर्माक आपण तय्यार न्हय म्हुण ब्राह्मणान् कुंतीलागी सांगीलें.

हें आयकून कुंतीन सांगीलें "हे ब्राह्मणा, तुम्मी सांगूचे तत्व सरवेय सम्म. जायते पुत्र आसात म्हुण लेकून तांचेर वात्सल्य ना म्हुण लेकूका नाक्का. जाल्यारीय अन्याक जावनु आत्मत्याग केल्लेले उतूलकीं महत ह्या भारतांत आसात. विपत्तांत अभय दिल्लेले तुमकां निस्सार जावनु आश्शिल्ले एक प्राणत्याग अनुष्टान करूक आमकां अवकाश नावें? तेंच न्हय मिगेलो

दुसेरो पुत्र बलवंत तं. राक्षस बकाक थोगडे वेळार तो दिवसिं मारनु एवयात. शिश तं जाल्यार तें तुमका मात्र न्हय ग्रामाक सगलेच राक्षसापीडनेंत थाकून रक्षण केल्लें म्हुण सिद्ध जावयात. ना बदलाक मिगेले पुत्राक बकान तं मारलो जाल्यार तो विना माका वेगळे चार पुत्र आसात म्हुण समाधान पावंयात. एक पुत्र नष्ट जाल्लो म्हळ्ळेले दुःख सहन करूक माका मनोधैर्य आसा"

कुंतीलीं उत्तरां आयकून ब्राह्मणान सम्मत दिल्लें आनी तन्नी लागी सर्वेय तैयार करूक आज्ञा दिल्ली.

भिक्षाटनेक गेल्लेले पांडव परतून एवंचाकनिक कुंतीन जल्लोलो संभवूय तीणै ब्राह्मणाक दिल्लेलें उत्तरय सांगून मनां केल्लें.

भीमाले हाथ बलान तं पांडवांक उत्तले कष्ट-नष्ट आयिले जाल्यारीय तें सर्वेय तरण करूक साध्य जाल्यां, देकून ते कार्याक भीमाक पेटेयल्यार ताक्का तरी कस्सलेंय आपत्त एवनु मरण पावंचाक काल पवल्यार मागिर कस्सलें जातलें म्हळ्ळेले कार्यापसून युधिष्टिरान आवसू लागी चिन्तन केल्लीं.

भीमाले पराक्रम आम्मि म्हस्त दिक्किल्ले आसात. तांत सग ताक्का जयूय मेळ्ळोलो आस्सा. देकून बकाक तरी भीमाचान मारूक जायना जाल्यार मागीर तो कशी कौरवांलागी जय पावंतलो म्हुण तूं चांग बगेन चिन्तन कर म्हुण कुंतीदेवींन युधिष्टिरा लागी सांगूक, तीं कायरीं सम्म म्हुण लेकून ताणें भीमाक खाण घेवनु वचाक आज्ञा दिल्ली.

हेरदूसा ब्राह्मणानय तागेले पत्नीन्य पंचपक्वानी तय्यार केल्लेले विभवाहार भाण्डीर भोरनु, दव्वरलो. आवसू लागीय, अन्नां लागीय, भवंडा लागीय, नंतर ब्राह्मणाकय ब्राह्मणा पत्नीकय नमस्कार करनु आशिरवाद काण घेवनु भीम भाण्डी घेवनु बकालागी भायर सरलो.

एकचक्र गांवांत थाकून स्वल्प धूरा वच्चाकनीक घोर वन भाग दृष्टि पळ्ळो. तें वन तं बकासुरालें वासस्थल. थांगा पांव भितर भीमाक चांग भूक लागली. भाण्डीर आशिशल्लें खाण सरवेय भीमान खावनु सारलें. बकासुरान एवंचानीक भाण्डीर खाण कांय दृष्टि पळ्ळेना. बकाक कोप एवनु सहन जाल्लेना. तागेले दोळे ज्वलन जवंचे उज्जा इंगळ्या समान जाले. गाल

तांबीडे बुक्के जल्ले. क्रुध जावनु गरजेवनु " अरे, मनुष्य मृगा! सरवेय खाण तूवें खावनु सारलें. विरोध ना. हांव तुक्काच नवें खावंचाक वत्ता" म्हुण भीमा लागी सांगीलें आनी मुष्टि बांदून भीमाक वोडून ताक्काय आहारु करूक मुक्कार आयलो. ये समयार भीमूय सबाव राबलोना. तोवय बकूय जावनु घोर मल्लयुद्ध चमकीलें. त्या घोर मल्लनुद्धांत भीमान बकाक हात पाय एकडे करनु उब्बारनु काण धूरा सोण विंदीलो. बकासुर कालपुरीक पावलो. तशि भीमान पसावत एकचक्र गांवांत आश्शिल्यांक बकाले उपद्रवांत–पीडनेंत थाकून मोचन मेळ्ळें.

बकाक दिसि मारलेंलें वर्तमान गांवकारांक कोलूकनिक आबाल–वृद्ध जन थांगा धावनु एवनु पावलें. राक्षस पीडनेंत थाकून रक्षण केल्लेले त्या भीमाक माळा घालनु ताज्जे मुक्कार नाच–नृत्य–भजन सवंय करनु ताक्का नीरांजन दाकोवनु माळा गालनु सत्कार करनु गांवांत हाळ्ळो. कुंतीदेवीकय पांडवांकय योग्य मान दीवनु गांवकार संतोष पावले.

"धर्माक केदणाय जयु–अधर्माक केदणाय पराजयु
सत्याक केदणाय जयु–असत्याक केदणाय पराजयु
क्षमाक केदणाय जयु–क्रोपाक केदणाय पराजयु
विष्णुक केदणाय जयु–असुराक केदणाय पराजयु"

---

श्री. वि. शेट. बलराज

# भूक आनी भीक

[वि. शेट बलराज (१९३८-] साहित्य संगीतादि कलेंत प्रवर्तन करता. मलबारींत सुरवेक सिनेमा प्रतिवार पत्रिक "चित्र सागर" उजवाडवपी जावनु आशिशलो. मलबारींत बारा नाटकां बरवनु काव्य रचन करनु अवतरण केल्लींलासात. स्वर्गस्थ पि. जे. अन्तोणी हांगेले "प्रतिभा तियेटरस" नाटक समीतींत भाग घेवनाशिशलो. १९५७ थाकून कोंकणी भासेंत भक्ति-भाव काव्यां, नाटकां इत्यादि बरवनु एता.]

पोवून एवंचो पागार म्हुण दिसता समुद्रा उदकांतुलें पाळ. व्हड तें पाळ एवनु कपाल धडावनु पडतेर तीरार फेण भरता. धवोच फेण! चेरडवानी सांगची 'पैदारें रेंव'. पाळाचो फेण खंचो म्हुण कळना. दोनीकय एक रंगू-धवोचि!

उतर दक्षिण दिकान दिघसायेन वेळेर 'पैदारे' बुसबुस रेंव. जनां जायते बेसून आसा. आवस–बापूस, बायल बाम्मूण, व्होकल व्होरेत, अलौकीक प्रेमान एकमेळपाक एयिलीं युवक युवति, पैदारे रेंवेत देवळि बांधून धावनु भोवनु खेळचीं चेरडूवां–अशि जायतें जनां. सहताप कोणाक ना. म्हंतारो सूर्या–

तागेलें मरण चोवनु आनंद घेवपाक आयिल्यां जनां.

प्रभाव, शक्ति, क़ांति आपण्यालें सर्वंय जगत्याक़ दीवनु म्हांतारो जाला सूर्या. ताणे ओंकीलें रगत ताजेर सहताप दिसून तागेले परिचरणाक आयलेले मळबांगेल धवे आंगवाल्यार पडचाकय पश्चिमाबरांत शेणीम भरली. हळदूवसाणि मिळसोवनु तांबिडसाणि. पणु लळनु कष्ट काणातिलें सूर्या विशाल समुद्रांत गुप्त जालो. सहताप आश्शिले मळबानि तांगेले अंगवालें परतीलें. दुःख सूचक काळें रंगाचें अंगवालें न्हेसून एवचाकय जाली सांज. सूर्याले मरण चोवनु मनांत आनन्द घेवपाक आयिलें सहताप नातिलें जनां वेळेर थाकून वतले जालें.

एकमेकाक धिगोळनु हांव मुकार तू मुकार म्हळ्ळेले अहंकारान ऊंच आकाशांत नक्षत्र एवनु भरलीं. तीरावलो समुद्रसेना दीपस्तंभ जळनु–वचून जळनु–वचून आसा. निमिषमात्रान एवनु वचे त्या उजवाडान कळ्ळें–वेळ शुष्क न्हंय म्हुण. एक मनीष एकलोच हात मागल्यान धवरनु खंयकी चोवनु बेसून आसा. भूक तान विसरनु तो मनीष बेसला.

समुद्रसेना कार्यालयांत दिस्ता-घांट पळ्ळि. वरां इकरा. बेसून उबगणि एवनु तो मनीष बुस बुस रेंवेंत उधारी पडलो. एकलोच त्या रात्रि! भय दिसौंचे समुद्रालो हुंकार शब्द मुखरित जावनु आश्शिले वेळेर उधारी पडलेले त्या मनष्याक चोवनु वयरि आकाशांत नृत्य करचि तारकां हसलीं दिसता.

झलक जावनु तो उट्टायलो. एक अपरूब शब्द आयकून. बेसूनूच मगल्यान तो चोयलो. तागेले दोळे फटयतावे म्हुण ताका दिसलें. मनांत भय वाडलें. सान आसतना तागेले अज्जेन तिळसाणा वेळार काणि सांगप आश्शिली. भूतालि प्रेतालि काणि. गजनीतुले फांद्यार, तळये कट्ट्यार, नदी तीरार, समुद्रावेळेर रात्रीचें प्रेतां भोवनु आसतनी. धवें वस्त्र न्हेसून तेल्टसाणि नातिले केस उबोवनु भोवतनी. चून्नो जावका म्हटलीं.

सळवता वारें आसूनुय तो हुम्मेलो. भीवनु! चोवनूच बेसलो तो-दृष्ठि परतून काडूक जायनातिलें. एक बायल राबल्या. तेल्टसाणि नातिले केस उबोवनु. तिगेलें कप्पड धवें न्हयं. पिंजून शीवीले पचवें कप्पड. परनी पिंजल्ली चोळि.

"इत्या तुमी ह्या सळवत वारयांत हुम्मेतात". त्या बयलेन निंगीलें.

चुन्नो मागतली म्हुण लेकून आश्शिलो तो. "कोण तू? इत्याक आयल्या? इतें जाय तुका?" निमगूका म्हुण ताका दिसलें. उतरां गळ्यांतूच सिरकनी.

"भीवनाकात हांव प्रेत न्हंय; भूतय न्हंय. सामान्य एक बायल. भुकेन आयल्या. दोन दीस जाले उपास. मिगेले चेरडाकय उपास". रडकूळि जावनु तीणे सांगीलें तागेले कानांत पळ्ळें.

चोग्या चिल्लांत थाकून रूमाल काण ताणे तागेल तोंड पुस्सीलें. हातांत आयिलें एक 'नोट' "घे" म्हुण सांगीने. सण्ण मागल्यान सोरनु तीणे जवाब दिल्ली.

"उपास काण एता जाल्यारीय हांवे भीक मागलेना. मागपयना"

"दोन दीस जावनु तू उपासी पडल्या म्हंटा. हांवे दिल्लेले रुपया नाका म्हंटा. माका कांय मनांत जायना", ताणें निमगीलें.

"इनाम जावनु इतेंय घेतलें जाल्यार ती भीक जाता. माका भीक नाका. सामान्य मांसय रगत्य आसा माका. तुमका माका इतें करयेत आनी ताजें प्रतिफल जावनु दीवयेत". दोन्नीय हात ताज मुकार दिघसायेन धरनु ती राबली.

हातांतुले नोट परतून चिल्लांत घालनु ताणे सांगीने "हांव तू लेकूच्चा मणकि मनीष न्हंय".

"जावयेत" हात मागल्यान काण तीणे सांगीने. "तुमका इच्छा ना जाल्यार हांव तुमका उपद्रव दीना. भुकेन आश्शिले मिजेर उपासान परीक्षण जावनु पडलेले मिगेले चेरडाचेर तुमका सहताप दिसता जाल्यार..........."

"दुःख दिसता माका. तुगेले चेरडाचेर सहतापूय आसा. घे तू रुपया. चेरडाक पुणीय कितेय काण घेवनु दी".

"नाका हांव वतां" ती वचाक लागली.

"राब" तागेलो शब्द आज्ञा समान भायर आयलो बेसले कडे थाकुन तो उट्टायलो.

"मिगेले खोल्लेंतु यो, चेरडाकय काण. माका दिसचें हांव करीन".

"नाका. हांव तुमचे ओट्टु आयल्यार कोणे दिकल्यार तुमगेलें नांव वायट जातलें".

"तांत माका खेद ना. तुगेले चेरडाचेर तुका मोग आसा जाल्यार यो तू", तो मुकार सरलो.

बामणाले मागल्यान मोगान वचे बायले मणकि, चेरडाकय खांध्यार काण ती तागेले मागल्यान गेल्ली.

तागेले मागशीं खोलेंत भितर ती चेरडाकय घेवनु चडली. एक दट्टो काण दीवनु ताणे सांगीने "चेरडाक निद्रा करय".

खांध्यार आश्शिले चेरडाक तीणे निद्रा करयली.

"चोय ही न्हाणि. वचून न्हावनु यो. आंगसोय साबूनय भितर आसा".

न्हावपाक ती भितर गेली. धांपून धव्वरीले, ताका खांवचे खाण चप्पाति आनी कुका उपकरि काण मेजार दवरली. तंब्ळेरांत एदें सेळ उदकय.

एदे घडयानि ती न्हावनु आयली तिंबले कप्पड न्हेसुनुच. 'सूट केयसांत' थाकून एक उंबळीली दोति काण ताणे तिका दिल्ली. वोलें कप्पड तीणे परतीने.

"यो एवनु मुरतम यें खाण खा. पिवंचाक सेळ उदक तं आसा"

"मागीर खावयेत. सुरवेक तुम्मी तुमगेलो आग्रह पूर्ण करात".

उपास पणु तू परीक्षीण जावनु आसा. आंता माका तृप्त करपाक तुजान जायसीना".

तागेली उतरां आयकून एक निमिषाक ती चिंतनेंत राबली. मागीर एवनु बेसून तीणें सांगलें.

"हांव ये खेल्यार आज तुमकां उपास न्हंय?"

"ना मिगेलें पोट भरनु आसा. माका भूक ना, तू खा", ताणे उतर दिलें.

भव्यपणान तीणे चप्पाति हातांत काडली. चेरडाक चोयली. ताका चांगि नीद. एक चप्पातीय एदि कुका उपकरीय काण एक कडेक दवरनु, नंतर आश्शिली चप्पाति खांवचाक लागली.

"भीक मागचेंच निकृष्ट—ताज्जाकय हीन आपण्यालें मांस विकून पोट भरचें. तू कोण? इत्याक तू आश्शि भोंवता?".

ताणे निमगीलेलें आयकून तिगेले दोळ्यांत उदक भरलें.

"नाका, तुजे खातिर सांगचाक तुका दुःख दिस्ता जाल्यार सांगका नाका".

"ना, माका दुःख ना. हांव सांगता. मिगेले नांव सुशीला. धाव्यांत सिकल्ली. मिगेले उडघासाक हांवें आवसूक देकलीना. बापसूक आमी दोग्गंच. हांव आनी मिगेलो आन. बि. ए. सिकलो आन करभार कांय नातिल्यान सांगत्यालागी मेळनु जूवान खेळनु सान सान फटवण करनु 'दरबार' दकवनु आश्शिलो जाल्यारीय एक सान दूडु म्हातांरे बापसून अन्ना लागी घेवप ना आश्शिलें. अन्नाले फटवणेंत पळ्ळेले एक एकेलोय आमगेले घरांतु एवनु उलौंवचाकय उपद्रव दिंचाकय शुरु केल्लें. इतेंय सग जावचे मुरतम त्या अग्नींत थाकून माका सडवाट करचाक मिगेली व्हारडीक करनु दिंवचाक बापूस धावनु भोवनु आश्शिलो. एक दिवस बापूस गांवांत ना. मिगेले सोयरीके खातिर खांयकी परगांवांत गेल्लोलो. आन घरांत आसचें म्हळ्ळेलें विरळ. त्या दिवस......हो......" उंटि काण ती रडतली जाली.

तिगेलें चरित्र आयकून बेसलो तो उट्टावनु तिजे लागी आयलो. भरनु आश्शिले तिगेले दोळे हातांन ताणे पुस्सीले.

"सांगून एयिलें पुरतें सांग. मागीर इतें जालें?".

"सांगता", उंटि काण ती सांगतली जाली. "फल्यार हांव जाग जाली. मांचार थाकून उट्टावूंक जायना. आंग सगळेंच दुकी..........कोणोकी मिगेले चारित्र्याक ध्वंसू केल्लो. पणु रडली. प्रयोजन नातिलें रण्णें.........जालेंले

कांय कोणाक कळौवण दीवनातिलें हांवें दीस मुकारसून वरले. कडेर निपवंचाक जाय नातिले मणकी तें वाडलें. गांवांत घाणि पडेच मुरतम एक दीस बपसूक एक कागत बरवून हांवे घर सोडलें.........आसपतलांत बाळांति जाली. चेरडाक आतां वर्षां दोन जतात. खचेय घरकडे आयदना धुवपाक आंगवालें बोडोवपाक करभार सोदून भोवलीं.........अविहित गरभांत जालेले चेरडाकय घेवून भोंवचें माका कोणे करभार दिल्लोना. पोटा खातिर हांवें माकाच विकूक शुरू केलें. कोण मिगेले चेरडालो बापूस म्हुण माका कळना. कशिश सोदचें? त्या नीच मनष्याक हांवे देकीलो ना. एक रूमाल आसा–तेदूस त्या मांचार पणु मेळ्ळोलो एक रूमाल".

"चोयतां" आकांक्षेन तिगेलें चरित्र आयकून बेसले ताणे हात दिलो.

दावो हात चोळयेंत भितर घालनु तीणे एक परनो रूमाल काण तागेले हातांत दिलो.

घेतीलो रूमाल चोवनु वेळेर सेळवता वारयांत हुम्मेल्या मणकी तो हुम्मेलो. कसलकी सांगचाक जीब काळी. उतर भायर आयलेना.

"इतें? रूमाल चोवनु तुमी हुम्मेतात". तिगेली उतरां तागेले क़ानांत गेलीं.

"हां, कायना"

"कायना जाल्यार इत्याक तुमी हुम्मेतात".

"सांगता.........तुगेले चेरडाले बापसूक हांव वळकतां".

"इतें?" उट्टावनु तागेले चोग्याक धरनु तीणे निंगीने. "तुमी वळकतात? खंय आसा तो दुष्टू?".

"तुगेले चेरडाले बापसूकडे हांव तुका सोडता–ताजे खातिर सांगून जात्तेर".

"कसले सागूका नाका. माका दकोवनु दियात".

"ताजे खातिर सागून जालेनंतर विना ताका हांव दकवना". तिजे लागी थाकून घेतिले त्या परने रूमालानच ताणे तोंड पुस्तीनें.

"सांगात हो उग्गि सांगात" तिगेले चेरडाले बापसूक देकपाक आश्शिलो ओंवसर तिगेले उतरांतुल्यान भायर आयलो. ताणे तिका धोरनु बेसकरयली.

"तुगेले अन्नाले नांव राकेश न्हंय?".

"वय, राकेश, तुमकां कश्शि कळ्ळें?".

"करभार सोदून एक रामचन्द्र–बि. ए. सिकीलो तुम्गेले गांवांत पावलो. राकेश म्हळलो एकलो आसा; ताका देकल्यार करभार मेळतोलो म्हुण त्या गांवचे आनी एकल्यान रामचन्द्राक सांगून मनांत केल्लें. रामचन्द्र राकेशाले पायमूणांत पडलो. ऊणेंच्र तीन सास रुपया खर्च आसा. दिवचाक जाता जाल्यार बेंकात करभार जाता म्हुण राकेशान उत्तर दिल्लेलानुसार रामचन्द्र पर्तून गांवांत गेलो. ताका आवस मात्र. तीणे कोणालेय आंगवाले बोडोवनु आयदना घासून एक वेळाक खावनु रामचन्द्राक शिकयलो. खुंपे मणकी आश्शिलें तागेलें घर घाण करनु रामचन्द्राक रुपया दिलो. रुपया घेवनु रामचन्द्र राकेशालागी धावनु आयलो. रुपया घेवनु राकेश गेलो. एक, दोन, तीन...दिवस गेल्यात. राकेश ना. राकेशान फटवण केली म्हुण ताका कळ्ळें. हातांत सान दुडु नातिल्यान रामचन्द्र उपासी आंगडी काट्यार पणु आयलो. पोटा खातिर, बि. ए. सिक्किलो तो बसारांत वोज्जें व्हावूंक गेल्लो. कशी पुणी राकेशाक देकून प्रतिकार करका म्हुण रामचन्द्राले मनांत आयलें. भोवनु भोवनु राकेशालें घर ताणे सोदून काळ्ळें. सान एक मूय्येक हिंसा करूंक शक्ति नातिलो रामचन्द्र एक दिवस बासारांतुल्यान काम जावनु बासारांत थाकून काण घेतल्लि नवी पेसकाति चोग्या भीतर धवरनु राकेशाले घरल्या लागी पावलो. भीतर वचाक जायना, धैर्य नातिल्यान परतून आयलो. सूर पिल्यार धैर्य मेळता म्हुण कोणेकीं सांगून ताणे आयकीलेंलासा. मस्त सूर पिल्लो. रात्रि सुमार बारा वंरा वेळ जाला. रामचन्द्र दुस्सरीय राकेशाले घरालागी गेल्लो. कव्वड दीवून आश्शिलें. निप्पून बेसले राकेशान उलो दिल्यार भायर एवचीना. ताणे हातांत आश्शिले पेसकातेन दीवनु आश्शिलें कवडा खीळि धूर केल्ली. भीतेर खोलेंत चोयलो. त्या खोल्लेंत कोण नात. दुसरचे खोल्लेंत चोयलो. तीवय तशीच. आनी एक खोल्लि. ताणे त्या खोल्लेंत उजवाड देकीलो. खोल्ले कवड दीवनाश्शिलें. धिग्गूळचाकनिक कव्वड धूर गेल्ले. भीतेर मांचार

एक चेल्लि निदून आसा. एक तो चोयलो. विश्वामित्राक जालेल्या मणकी क़स्सल्याक आयलो तें तो विसरलो. जळनु आश्शिली भुंय तेलाचि वाति ताणे वाडेयली. एक दुर्बल निमिषाक करूंक पाडनत्तिले ताणे केल्ले. तें जावनु केदना आंगडी काट्यार पावलो म्हुण तो नेण. सुबोध ऐवचाकनय ताणे केल्लीली चूकि ताका दुःख दीवनु आयली. त्या गांवांत थाकूनय तो गेल्लो. गांव गांव भोवनु ताणे दीस काळ्ळे. कडेर एक पांडेलात ताका करभार मेळ्ळो-गुमस्तालो करभार. आतां ताका करभार आसा. सुबोध नाश्शिले वेळार ताणे अपमान करनु सोण आयिले त्या चेल्लेक तो सोदूनासा, तिगेल पाय मूणांत पणु जालेली चूकि काण सांगन तिजेलागी क्षमा मागून घेवचाक, आनी आश्शिलें जीवितांत भाग दिंवचाक".

सुशीलाले दोळे भोरनु चोळि तिंबली. कळ्ळेलि चप्पाति हातांतूच धोरनु बेसले तिका चोवनु ताणे निमगीलें.

"रामचन्द्रु जालेले विसरनु तुगेले पायमूणांत पणु ताकाय क्षमा दी म्हुण भीक मागल्यार तू कितें करतली?".

"ना. मिगेले चेरडाले बापसून मिगेले पायमूणांत पडूं नज्ज. हांव तांगेले पायमूणांत पडतली. चेरडाक तांचे लागी दीवनु वतली—ह्या लोकांत थाकुनूच".

"चेरडाक दीवनु वतली म्हुण सांगता इत्या?".

"ताणि एक चूकि केल्लि. हांव निरंतर चूकि करनूच आसा".

तो दट्टयाचेर निद्देन पळ्ळेले त्या चेरडा लागी गेल्लो. बगून चेरडाक काळे. चेरडाकय घेवनु तिजे लागी आयलो.

"सुशीला आयचान तुगेली भूकय सरली मिगेली भीकय सरली. ह्या चेरडालो बापूस—नीच दुष्टु रामचन्द्र हांवच..............सांग मिजेर क्षमा पांवतवे तू?".

ती तागेले पांयमूणांत पडली.

---

**श्री पि. गोपिनाथ कामत**

# मिगेलें दुःख

[पि. गोपिनाथ कामत (३२) सारस्वत आसोसियेषन तिरुवनन्तपुरम, एस. वै. ए. कोचिन, ह्या संघटनां वाटेन जन सेवनांत मुकार आसात. कोंकणी भाषा प्रचार सभेचेय एक सजीव प्रवर्तक. कोंकण जनता मासिक पत्रिकेचेरीय, जायते स्मारक ग्रन्थांरीय हांणी बरेयलेल्यो सान काण्यो जनप्रिय जल्लेल आसात. जीवना खातीर ऐ. एस. आर. ओ. (I. S. R. O,) हांत काम करतात. हे तिरुवन्तपरचे निःस्वार्थ आनी गणनीय प्रवर्तक. १९७९ प्रथम अखिल केरळ कोंकणी कला साहित्य सम्मेळनाक अनुबंध चलैयलेले काण्यां मत्सरांत प्रथम पुरस्कार घेतलो.]

सकाणीचे नित्यकर्म सग करनु हांव फिदरान्त एवनु बैसलो. कूडीन्त बप्पा मान्चार खरसि काण पळ्ळा. सूख ना जावनु मास एदेचि जाले. भयणि मीर मिगेलें पिंजलें मुंड सूवेन शींवता. ते घालनु जांवका माका आज सुंगटा कम्पनींतले मानेजराक देकूक. गेल्ले मासांत थांगा काम सोदून हांवे वचानिक ताणे सांगलें लागीचे मासान्त एवनु देक म्हुण. थंगाचो एक शिपाय गांव सोण गेल्लो. वेगळें एक काम मेळ भितर शिपाय जावनु जाल्यारीय मेळचे दुडवानी

घरकडचे कष्ट उणे जातले नवे म्हुण अठोवनु तं तांचे लागी तेदूस गेल्लोलो. आज एक पसार लागेन वचून देकका.

मिगेली दृष्टि उंचार लामबेयलेले देवाले कन्नडेर गेल्ली. देवा, तू हे कुटुंबाक आनिकय दु:ख दीवनाका. एकेक वाटेन तू आमकां परीक्षण करता वे? उंचार मुल्याक लाम्बून पळ्ळेले गोन्ट्रेवान्तुल्यान भायर एंवचाक एक जोरलो प्रयास कडता. तागेले पाक तान्त शिर्कलें. हे कुटुंबाची हीचि वे देवा गति.........माजें मन खंयकी वचाक आंराभीलें.

दोन वर्षां फूडे काळेजांत शिकून डिग्री कळ्ळे उपरान्ते, एक काम मेळूक हांवे भोवनातीलो स्थाय ना हे गांवांत. हापळा ब्यार करनु मेळचे आदायान बप्पान माका आनी मिगेले भयणीक शिकेयली. माका ग्राजवेट जावचांक आशिले भाग्य जात्तले म्हुण हावें स्वप्नान्त सरी आठेयलेंले न्हंय. हांवे स्कूळ फैनलाक 'रांक' काण घेवनु विजय पांवचांनीक तेदूस बप्पान सांगिलीं उतरां आजीय माजे मनान्त पणु खेळतात.

"अरे राजा, कालेजान्त शिकून तुका डिग्री म्हेळयार मागीर बेंकान्त न्हंय जाल्यार खंचेय आफीसान्त काम मेळूक प्रयास आसना".

"बप्पा आतां स्कूल फैनल भितर शिकूक बप्पान आनी अम्मान उतूल साबार कष्ट कळ्ळे. मिगेले खातिर जावनु मीराली शिकवण राबेयली. आनीकय काळेजान्त गेल्यार........." हांवे सांगीलें.

"तांत कायनारे पुत्ता, तुका एक उद्योग मेळोलो चोवनु जांवका माका दोळे धांपूक" बप्पालीं उतरां. तशी रात दिवस हापळाचे दन्द करनु त्या आवस बापसून माका कालेजान्त शिकेयलो. माका जाल्यार विश्रम नातिलें शिकूक उत्साह जालो. मिगेले नवे शिकवणेक भयणीनय माका धैर्य दिल्लें.

पांच वर्षां धावनु गेल्लीं. मिगेली काळेजान्तुली शिकवण पूर्ण जाली हांव विजय पावलो. ग्राजवेट जालों. ते उपरान्ते उद्योग मेळचे बगेक आशिशलो श्रम प्रारंभ केलो. वळकि आशिशले सगटांचे लागी बप्पान वचून म्हळ्ळे. सगटालीय जाप एकीच—वेकन्सी ना म्हुण. बप्पान मस्त जनांले पाय भितर धरले. कांय वान्च ना. एक वर्ष गेल्लें. बप्पाक हरद्यान्त दूकि एवनु सुख

ना जालें. हापळाचो ब्यार राबेयलो. लागीचे घरांकडे थाकून अम्मान दन्द करनु हाळेल्यान आमी दीस कळ्ळे. म्हळयार बप्पाले खातिर जावनु वोकदाक मस्त दुड जाले. माका काम मेळतर वापस दीवून म्हुण सांगून हांव भारि जनांलागी थाकून रीण घेतलें. काम मेळची कायरीं आठोवनु मिगेले हरदें फुटता. रीणेली जावनु सगटय मात्थ्यार आसा. हांवें दुड निमगून काण घेवनातिलो मनिष कोण ना. माका देकल्यार आतां ते वाट सोण वत्तात. घरवडे जाल्यार एक वेळार समंच आहार खेलोलो दिवस विसरलीं. माका मेल्यार पूरो जावनु दिसलें.

गेटार कोणकी मारचो शब्द ऐकून हांव भायर चोयलो. पोस्टमान आयला. हांवे धावनु बरप काण घेत्तलें. बरपाचो लकोटो देकून माका सन्तोष जालो. हांवे एदेच मास फूडे दुरगा बांकांत घालेले अपेषाची जाप आसतली ती म्हुण हांवें लेकीलें. बर्प आयल्यां देकून शीवनु बेसली मीर धावनु मिजे लागी आयली.

"कोणालें बर्परे राजा ते" भित्तर थाकून बप्पाले प्रश्न.

बर्प कसलें म्हुण कळूक मिजाकय चड उत्साह जालो तांका. हांवे होगी लकोटो फुटैलो. मिगेले कपलान्तलो बोरो चांग जालो की? हांव सन्तोषान बर्पय घेवनु बप्पाले मांचामुणांत धावनु गेल्लो.

"बप्पा माका दुरगा बांकान्त तांगेले मंगलूर आफिसान्त इन्टरव्यूवाक उळदीला लागीचे वारान्त".

"देव पावलोरे पुत्ता".

"अन्ना, बांकान्त उद्योग मेळयार माका भायर वचाक गगर्राक आनी चोळयेक आंगवाले काडका" मीराली आशा. तिगेले पिंजलो गगरोय, एक हाथ नातिली चोळीय देकून माकाय तें दिसलें तं.

"बप्पा मंगळूर भितर वचून एवंचाक मस्त दुड नाकावे? माका आनी कोणालागी दुड निवंगूक लज्जा दिसता". हांवे सांगीले.

"कशी जाल्यारीय राजा तू इन्टरव्यूवाक वचून यो. दुरगा बांकान्तलो डयरक्टर दोरको म्हुण तेदुस तो अनवाळो मिन्नु भटमाम हांगा

एवंचानीक म्हणतालो.

हें सग्ग आयकून वसर्यान्त आश्शिली अम्मा मुकार आयली.

"अरे पुत्ता तूं ही पिरडूकेमाळा व्हरनु घाण दवर" अम्मान गौंटेची माळा काण मिल्यागी दीवनु सांगीलें. "राजा तू मंगळूर वचे फूडे ते मिन्नु भटमामाक वचून देक. दुरगा बांकान्तुल एकल्याक वळकता म्हुण तो मिल्यागि सांगतालो".

टेरिकाटन पेन्टाचे उंचार बोरींचो चोग्गो घाल्ला हांवे. बांकांत हांव आल्तपेल्तान्त वत्तासणा जावचो पाप्पासाचो शब्द आयकून बांकान्तली सगटय माका चोयतात जावनु दिसलें. लागीचे कूडान्त थाकून मेनेजरान माका व्हडान उल्दीलो. माका मनान्त भय जालें हांव काषबूक बरैयलेल्यान्त चूकी आयली की? हांव होग्गी तागेले कूडांत गेल्लो.

कन्नडेक दवरलेले मेनेजराले तोन्डार मन्दहास. माका अतिशय जालो.

"तुगेले प्रथम मासाचो शंबोळ ५६० रुपया घे". ताणे माका हात दीवनु मिजे लागी रुपया दीवनु सांगीलें.

स्वार्गार थाकून पळेले माद्रीन जालें माका. मिगेले जीवितांत उतलो रुपया माजे लागी आज भितर मेळनी. हांव दुड घेवनु स्तब्ध जावनु राबलो. हे दुड काण इत्ते सग करका म्हळेले विचार जाले माका.

सांजवेळे बांकान्त थाकून देवनु प्रथम जावनु समंच वोकदाचे आगडींत वचून बप्पाक डाक्टरान बरवनु दिलेलें वोकद सग घेंवका. घाण दवरलेली अम्माली पिरडूके माळा परतून काडका. मागीर गग़र्राक आनी चोळियेक मीरा गुणी शीट काडका—हांवें आठेयलें.

"राजा, तूं इतें आलोचन करनु बैसला? भटमाम आतां पांवतले हात पाय धत्तात, तूं चाय पी" भटीनायेली जाप आयकून हांव सपनांत आश्शिलो म्हुण माका मनांत जालें. हांव मंगळूर वचे फूडे भटमामाक देकूक तागेले घरकडे आयलोलो तं. तो एदी घडी जावनु एत्तलों म्हुण बायलेन सांगीलें. ते देकून हांव भायर बेसलों. ते वेळार तं मानांतूल मन्डे मुकार आयल्यात.

मिन्नु भटमाम आयलो. ताणे दुरगा बांकान्तले डयरक्टराक दिवचाक

एक परिचयाचे बर्प लकोटान्त घालनु मिल्यागी दिल्लें आनी सांगीलें.

"इन्टरव्यूवाचे मुर्थमचे दिवस तू डयरक्टराक तागेले घरकडे वचून देक आनी हें बर्प दी. हावें तुगेले कुटुंब, कष्टांत म्हुण आश्शिलीं कायरीं बर्पांरि बरैयलीलीं आसात. ताणे आठैल्यार तुका थांगा उद्योग मेळचे कैरें खंडीत." हांव ते आयकून घरकडे आशेन वापास गेलों.

बप्पालोय अम्मालोय आशीर्वाद मागून हांव मंगळूराक भायर सरलों—माजे जीवितांतले एक व्होड कायरें सफल जांवचे प्रतीक्षेन.

एक दिवस जावनु हांव मांगळूर पावलों. हांवे एक कूड होटलांत भाडयाक काळ्ळें.

सांजवेळ जाली. हांवें मिगेली बेग विस्कळायली, "श्री रघुराम किणी, डयरक्टर, दुरगा बांक" मिन्नु भटमामान दिलोलो लकोटो काण हांव संमच तागेले घरकडे गेलो.

चांग विस्तार आश्शिले परमाचे मद्दें दिकचो बंगलाव. भायर गेटान्त पांवचानीक माका थांगाचे वाचमेनान राबेयलो. लकोटो दकोवचाकनीक ताणे माका भितर सोळो. उदका फौन्टन आश्शिलें पाचुवें पार्क दण्टवून हांव बंगलावाचे आंगणांत पावलो आनी मुकावले कूडान्त चळ्ळों. मिगेलें हरदें टपटप जावनु मारूक आरांभीलें. कशिश किणिमामा लागी उलौंका?

एक बायलेन एत्रनु माका बेंसूक सांगीलें. एदी घडी जावनु भितर थाकून कोणेन एवंचो शब्दु ऐकीलो. किणीमाम जावयात-हांवें आठेयलें.

मीशा आश्शिले वाडकुळेच तोण्डार कन्नडेक दवरल्यां. गौरवाचे माद्रीन आसा चोवप. एक पैजाम आनी जुब्बा घालोलो आसा. हांवे नमस्कार सांगीलो आनी भटमामान दिलोलो लकोटो मुकार दवरलो.

किणीमामान बर्प वाचलें. "हां मिन्नून माका बरेयलेंलें तं. त्या हापळ कारालो चेरको नवें? जावो, दोरको देकून मिजान जांवचे हांव करीन, तूं फाय आफीसान्त यो".

किणीमामाक धन्यवाद सांगून हांव थांगा थाकून देवलों. हेरदूसा

आफिसान्त गेल्लों. हांव नन्तना दुसरे धा जनां लागेन एवनु पावल्यात इन्टरव्यूवाक. तांतले एकल्याक वळकि आशिल्या माद्रीन दिसलें. हांव ताजे लागी सरलो. भांगरा ब्यारी औसेपालो चेडो पौलोस. मिगेले घरालागी राबचो. सालेन्त आमी एकसानीच शिक्किले. स्कूलांत मारफार करूक तो दष्टीक आशिशलो. शिकवणेक मागल्यानय. धाव्यांत तीन वेळार बरोवनु पास जालो तो. बप्पा धनवंत देकून कशीय जावयात न्हवें?

इन्टरव्यू जालें. विजय जालेले जनालें नांव कळूक आमी सगटय दंपार भितर थांगाच बैसले. शिपाय एवनु एक नोटीस भायर थापून गेलो. मिगेले दृष्टि होगी नोटिसाचेर जाली.

इखर जनांत एकल्याले नांव मात्र देकूक पडता—धनवतांलो चेडो पौलोसालें मात्र. मिगेले दोळयांत काळूक आयलो. खाल पडूक पाडना देकून हांव लागी आशिशले एकल्याले खांद्यार हात दवरनु बेसलों.

माका बांकांत काम मेळनु हांव घरकडे परतून एवचें चोवनु बैसले अम्मा बप्पालो उडगास माजे मनांत आयलो. सूख ना जावनु पळेल्या बप्पाक वोकद घेवनु भेदु करूक दुडवांक आनी वाट इतें? गोंवटेची पिरडूके माळा घाण दवरनु माका उद्योग मेळतलो म्हुण आशेवनु राबीली अम्मा. माका ती माळा आनी सोडोवनु वापस काडूक जातलवे? नवें घालनु भायर वचाक आशिशली मीराली आशा सफल करूक जातलवे माका? मिगेले दोळयांत उदक भरलें. हे प्रश्नाक सग उतर मिगेलें दुःख मात्र. हे गांवांत समुदायांतले गरीब जनांक आनीं तांगेले शिकवणेक मोल नाकीं? दम्मेल्यांक मात्र वे हांगा स्थान. एकेक दुष्ट विचार मिजे मनांतल्यान धावले. हांव थांगा थाकून भायर देवलों.

देवा, आनी माका तू मात्र आधार. माका दुसरीय दुःख भोगुक आशिशलें आरोग्य ना. हांवयं एता वे तुजे लागी? तुजे लागी एवचें फूडे हांगांचे जनालागी थाकून एक कैरीं माका कळका. तें खण्डीत. दाम की समुदाय तुमका व्हड? दाम की समुदाय?

# रंगु सुण्टलो

[के. नारायण नायक (शारदास दीनदास) (१९४८-) बी. ए. कोचीनाचे श्री वि. कृष्ण नायक हांगेलो धकूल पूत. हिन्दींत 'प्रवेशिका' परीक्षा उत्तीर्ण जालोल आसा. प्रसाद हिन्दी विद्यालयांत श्रीमती गांगा बाई आनी प्रो. डि. विश्वनाथ मल्लया हांचे लागी शिकचे कालाक साहित्यांत तान वाडली. कोंकणी, हिन्दी, इंग्लीष, मलबारी ह्या भासेंत म्हस्त बरयता. १९६१ थाकून लेखन, काणि, कवन, नाटक इत्यादि मत्सरांत भाग घेवून सुमार ३५ भायर पुरस्कार हान्नी प्राप्त केल्यात. कोंकण जनता, पंचगदाय, कोंकणी विकास, इत्यादि मासिक पत्रांरीय, समाचार पत्रांरीय बरवून एत्ता. १९७९ अक्टूबर १६, १४ तारीकेक चंवकील्ले प्रथम अखिल केरळ कोंकणी कला साहित्य सम्मेळनाक अनुबंध केरळा आधारार चलेयलेल प्रबंध (Essay) मत्सरांत प्रथम पुरस्कारूय कविता मत्सरांत एक दुस्सरो हानि प्राप्त केल्ला. आवस भास कोंकणीचे साहित्य रंगात प्रवर्तन करूक सन्नर्भ पुरस्कारूय म्हेळचे एक सैभाग्य अशी लेकता.]

"कमळको!" माणीकका पावली. लेखान वेळार एतली नित्य. जायतीं वर्षां जालीं हरी थंय तिजे लागी दूद काण घेताय. माणिकका पासून

कमळकाक चांग अभिप्राय तं. हापळ, ओडि, आरतीवाती, शेणी, ताक, मेणाय तूप तस्सलें कसलेय माणिकका लागी काण घेंवचात दोन गुण आसात. भरसी सुरती–भरती, लेकांत चडवूणे क़रप कांय ना. दुड् चड दिल्यारीय मोल सण्ण चडवूणे जाल्यारीय विश्वासान काण घेवयेत. ताजे भायर पावस ओत कसलेंय जावो तेत्ते वेळार ती साधन हाडतली ना पांवयतली. एक वाटेन चोयल्यार ती कोणाक चांग बलावाक ना. वायट कांय ना. सभार कांय नातिली. चोवचाक करूक कोण नातिल्ली. सान प्रायेचेरीच वैधव्यात पळ्ळी. अनाथ जाली. दोग चोग जणानी एकडे जावनु तिका दीस काडूक एक हादी करनु दिल्ली. तीं रीणां आजीय माणिकका विसरना. कोडू गोड अनुभव सग्ग भोगूनूय ती दीस आयम्हूग काडता. गेलेलकडे सग्ग दोन गोड उतरां उत्रोवनु वत्तली. आयदन घेवनु पाविले हरी अम्मा लागी दूध मेजून दितां–दितां तीगे वर्तमान आरांभीलीं.

"रंगु सुण्टलगे कमळको. सुण्टल्लो–वान्चलो भावडो. ते दशेर ताणे वरनूय कायरीं ना. सबाव रंजूयात. समर्गणी आश्शिलो जाल्यार एक कुटुंबस्त जावनु दीस काडतलो आश्शिलो. कितूल वर्षां तशी भोवलो. आरांभार हाळ्ळलो जाल्लार वोयधीकेन भेद करयात आश्शिलें खंयगे. मरनु मास दोंन जाले खंय. तिरूर किं तिरपूर किं तिरशूर......खंचे किं गांवचे आसपत्रेंत पणु मेलो......माका वाट आधार जालेले कालाक एक वाट दाकौंचाक धावनु भोविलो पापी......तें जीवित तशी सुन्त जालें......वत्तांगे. आयकत लागेन जीवाकच समकी न्हंय."

माणिकका दर्ला कवडाक दण्डी घालनु गेली. अम्मा दूदा आयदन घेवनु वासरेंतूय गेली. जाल्यार हरी मनांत थाकून विचार धूरा वचनात. आफीसांत थाकून एवनु न्हेसवण पर्तून कागत वाचून बेसलो तो कदलार. तवळी माणिककालीं उतरां कानांत पळ्ळीं. "रंगु सुण्टलो"–नेणता ताणे तीं वर्तमान पुर्तींच आयकीलीं. वर्तमान राबोवनु माणिकका गेलेली तो नेण. तागेलें मन धूरचे एदे उडगास सोदूनगेलें.

"रंगु" हे जग मुखांत थाकून तें रूप निप्पलें. रडूक करूक कोण...... कोण पावलोना ताका. तागेलें जीवान एक बावल्या खेळ खेळ्ळीं. कोणाक नाका तो. हाडां ताजी मेळत वे? हो, तीं कोणाक जाय. ताजी कर्म करूक

कोणे मुकार एवन्ना. मागीर नवें सुतकल धरवें. सुतकण्टन करनु उवाळनु सोळेले वार्गांतुलो भी जायत तो. कागतार......हे अबध! असंबंध! तो राय मंत्रि महापुरुष न्हंय मू. विद्यावन्त वर्तक कोण न्हंय. 'चिन्ना जालोल' मनिष न्हंय. दम्मा पिरती नवें आंता सोयरीक. समकी आसतना तो नाका जालोल कोण ना. तवळी तो चांग मनीष. वाटेन वतल्ले भान्डिकारी जाल्यारीय संकव ताण्डता सणा एक हाथ धरूक ताका उल्दीतले. तें तागेलें देह दिकून. लोकटे सीर ताजी सण्ण घुंवचाकनीक तो भार जालो. नाका जालो. निन्दक जालो. मृगा पशी पास्ट जालो. सृष्टि मण्डलांतलो प्रज्वल नक्षत्र खंय मनिष. परम श्रेष्ट खंय. सितीत आसून विशेष इतें. मनिष्यान पांवका जालेल्या पशी कितूल की योजनो मागल्यान मनिष, काळ उतुलेय दण्टवून आजीय. हरीक लज्जा लागली. ताका दुःख दिस्सलें. आनीयेक कडेन अन्त नात्तिलें विषाद. इति करप. ताणेय सांगीलें तं. सान जाल्यारीय सांगून चोयलो. केप्या कानांत खोदनो. उमती कोळश्यार उदक. निष्फल जाली ताजी उतरां. घातककाय घेवनु भोवचें कूडे मनिष जिकले.

रंगू हरीले अम्मा वर्गी कोण न्हंय. लागीचो सोयरी न्हंय. हरीले परणे घराचे सण्ण लागी जावनु तं रंगूले घर आश्शिलें. रंगले घर म्हणचें मर्याद न्हंय. रंगु राबतल्लें घर म्हणचें तं सम आसतलें. हरी थंय राबल्यार त्या घराची सुद्धि मेळताली. तशीच अपोरतूनय. हरी पशी पांच-स् वर्षां व्हड आसका रंगू. हरीन रंगूथय वचप आश्शिलें कुमारा लागी खेळूक. कुमार रंगूले म्हलगडो आन नन्दालो म्हलगडो पूत. व्हड आश्शिले घरची न्हंय. जाले पसावत सोयरी मित्रां वळकी वूणे. कोण खंय कांय कळना. एवप वचप वूणे. जाल्यार रंगूथय एक विशेषता आश्शिली. थांगा भोरनु मनिष आश्शिल्लीं. आवस-बापसूक दिक्किल्लो उडगास ना रंगूक. रंगू व्हळे अन्ना लगी वरलो. बाकि तागोले आन-भाव खंय आसात, पुरत्या पुरतें कांय कळना. कलकता, बम्बई, दिल्ली थांगा एकेक चिकरी पीकरी करून आसात. बर्पसर्प कांय ना. तांकां निश्चय ना तें. आबो कालाक वाट विसरनु आयलेरे, जाल्यार आयले. कोण एदे जाण तेत्ते गांवांत कोणार्कि सग्ग राबौन आसात. थोगडे जणानी व्हरडीक केल्लीना. रंगूलो म्हलगडो आन मात्र गोश्रीपुरांत राबलो. केंळें, दोर तशी चिल्वाण एंदे विकून दीस कष्टि काडता. नित्य उसरमेटींत. तांतु

रंगूय "सिरकला. नन्दमामाक कितली चेरडूवां आसात म्हुण ताका सम कळना. लागलागी बाळान्तीर जात्ताय दिकून तागेले बायलेक वर्षूकी म्हुण सग्ग खेळ करतालीं. तिजे असवडी सांगतली विना कानांत भी पळ्यार हरवे गाळायतली ती. एक नेटवी म्हणयात. सभार चेरडूवां जालेल्यांत नन्दमामाक विचार ना. तांका पोसूक, समयार समयार चोवनु जांवका जालेलें करूक मुट्टु एत्ता म्हणतर ताका वैराग्य लागताय. बायल जिबटी लागेन. तें सग्ग तशी आसून रंगूक हून उदका घोट. ताका चोंचाक करूक कोण?

रंगू देहान हिडुंब सरी आश्शिलो, काळो नाल्यारीय तोण्डार कला आश्शिल्ली. तुसळी फपूळेंलें तोण्ड न्हंय. पोट तापल्यारीय हासतल्लें तोण्ड. झगडें झूज ना. मरणकोंकि ना. तागेले रगतांत तस्सले दोष ना. आनी खंचान खयींय उसळा उसळीक गेल्यार आन कान धांपूक पूरो; पुण व्होन्नेक परमळ पळयार पीरपीडें भित्तर तीणें चडवना. सकाण घडीच सागून सोळेंलें आसा तीणें. हेद सोदून भोंवता ती ताका जात्रा करूक.

रंगू घरकडे सांगीले सग्ग करता. घाल्लेलें खाता. तागेलें, ताणे करका जालेलें दिनचर्या पसावत सांग नातिल्लें राबचेंच चांग. नाकांत एशि हांडा मडीश तणोवनु पोटाक घालतली. दंदकारा लागी हे वेष कांय चेन्न जावना. तीं नळको नीट करतलीं. रंगूक तीवय वाट ना. संत संत तागेलें शाळेंत वचें बन्द जालें. सेरांनी सिकूक सागीलें ताजान सिकूक जायना. बरवनु करनु हाडूक सांगीलें तेत्ते वेळार व्हरूक जायना. बरोंवचाक वेळ ना. बूक पेनशिल पुरत्या पुरतें ना. शाळेंत वचेंयवचनातिल्लेंय लेक समच. पोसतल्याक ना मागीर शिकयतल्यांक तान खंय वरूक? ताणीय उवाळणु सोळ्ळो. तांकां सागून पूरो जालें. "बुद्धि आसा ताका, तागेलें साहचर्य तशी, उलवनु कायरींना" सेर सांगताले.

मन मुरडेंलें. देह जून जालें. वजें व्हांवचाक खणूक देहान कसलेंय करूक तो भायर सरलो. दुड् ताजे हाथाक लागले. थांगाय ताका वोगरी ना. सग्ग घरकडे जावंका. तागेयल्यार तागेयल्यार थांगा पावना. तितली तोण्डां थांगा वांवटेवंनु आसात. मन करगून ताणें अन्नाक ब्यारा सहाय करूक आरांभीलें. ब्यार एक लेकान व्हड केलो.

रंगू बाडकूळो रगडो सरी जालो. कोगालेंय उपकाराक सहायाक पांवचो जालो. व्होटींत चार दुडं राबनात. मेळतां तशीच वेच करता. व्होनेकय आंता व्होळ्ळीं कायरीं. तिजे कन्नाक गोमटेक हतांक जड न्हंय जाल्यारीय एकेक दोंदोन भगंरा दन्तूक लांबली. एकाक एक पर्तून न्हेसूक वस्त्र जालें. विडविडेंवचे चेरडूंवाली बोब वूणे जाली. रितीं आयदन हाल्लूचीं जालीं. वोंयद वोयदिका वोकद इतें म्हुण कळ्ळें. चेरडुंवालो आप्पपा, तिगेलो देरू तं ताका सग्ग कारण म्हुण भायर खुला सांगूक दुकता जाल्यारीय तिका कळ नातिल्लें गेल्लेना. ये सग्ग चंवकता, रंगुक आतांय परणी पिगंण्या वटूळीच आधार. ताजी गति फूडेचि वरली. जाल्यारीय तो तें गीळनु तारासून काडतालो.

ती स्थिति साभार काळांक तशी राबलीना. तं हरवे उदयाक अज्ञात अन्त पावलें. दुर्बळ मनिष्यांक, कोण एक नातिल्याले धुवे व्हारडीकेक, दीस काडूक गुसमुटेतल्याक करवे गाय हाडूक, शेणीक तुशू थोंवचाक, हापळाक उडदा पिट्टी हाडूक तो सहाय करता जांवचे रूपान म्हुण व्होनेले कानांत पळ्ळें. धुवरेंवनु धुवरेंवनु तिजे मनांत थाकून ते भेतलें. उतरा उत्तर जालें. ताणें घरकडे करचे इम्मेक सरी ऊगे करनातिलें अनाथांक सहाय करचांत प्रश्न केलोलो रंगूक जीवा जाळ आयले. थांगा कलह जालें. ताका झिग जालें. तें तारासूक ताजे मनाक त्राणि ना जाली.

तेदूस सांझे तो लक्ष्य नातिल्लें कोपान कट्यार वचून बेसलो. ताजे मात्थ्यार उजा पावस पळ्ळो. चारीय तांत ताजे मन धावलें. ताजे दोळ्यांत काळूक भरलो. तागेल मित्र उंचे पदार पावल्यात. ताजे सम सिकील्ले चांग जाल्यात. थोगडे जाण कुटुम्बस्त जाल्यात. "अप्पाग?" तागेली गति चोवनु ताका दुःख जालें. जायते काळ्ळीं ताजे गालांवेल्यान हून अश्रु थेंबेले. अक्षीण यत्न ताणें काणूय ताका पोकरजूंका नाका, पादिपूजा करका नाका, मनिष्या मट लेकूक तागेल जाय जालेल्यांकु दिस्सलेना. तागेलो आश्रय बुडलो सरी ताका दिसलें. तागेलो विश्वास वाडवलो. ताका लक्ष्य ना. उजवाड दिचाक विचार ना. नेगता ताणें थांगा बेसून सोण्डार आयिल्लें उलोवंचाक आरभिलें. हरीन कुमाराकय घेवनु वचून ताका उलदीलो "रंगप्पा, रंगप्पा". रंगु उल्लो आयकना. सरकीटा वत्ताले पडकळी नेंडून तें आयकीलें. नवी वोरवाश्यो

हाथांत पळ्ळी–ताणें लेकिलें.

पडकळी नेण्डू–ताका पायकीळो नेण्डु म्हणचे तं चांग. तागेलीं कर्मं तसली तं. समकी निशें पिवचेकडे गोबोर उवसुका. बोडा बोड आडलावनु मारनु घालका. आनी लाळ नुण्डी करनु दीस काडका. ताणे सोदून काळ्ळेली वाट. पोट भरता, उसळो. धा जणा मुकार चांगूलोय जाता. व्हड व्हड घरकडे ताका स्थान आसा. वेष शिकिल्लो वोयदु तो. नन्तना वोयदीक कळचो न्हंय. मंत्रवाद, तंत्रवाद, कुतंत्रवाद तशली एदि गोष्टि हातांत आसा. पडकळे फूल, चुन्नो, कुकुंम, इंगाळो, तुरशी, तस्सली एदि सामग्रि केदनाय घेवनु भोंवतलो. ताजे भायर पुड्डीयो, गुळियो, चिट्यो ताजी पटळी. तोण्ड चोयल्यार कळता गोंगडेपीश म्हुण. गोवटेर पेस्काति दवोरचो म्हुण. तशल्यांक भी जायत आतां मान मोल. उतरांर तो कोणाकय पंगूरतलो. व्हार्डीक ताणे केलीना. ब्रह्मचारि म्हुण सांगूक भय तं. भायर कळौनातिल्लें ताणें जायते जणांक वाट आधार केल्ली आसा. सुतपुराणीक म्हुण दाकौंचाक वचून घुटु भायर पड्त वे म्हुण संशय. नवें गिरायक बल्यांत पडता वे म्हुण चोंचाक तो रंगूलागी एवनु बेसलो. रंगु उलेयता. नुत्तो बेसता. खंयनेन चोयता. निवगिल्या समाधान सांगना. पडकळी नेण्डूक कळ्ळें, वरव सिजतले म्हुण. ताणें भोवनातिलो गांव ना. ताका वळकी नातिलो मनिष वूणे.

पडकळी नेण्डु नन्दा घरकडे पावलो. खेळनु गोन्दोळ करतालीं चेरडूंवा निपलीं. चतुर्यान ताणे नन्दा लागी वर्तमान आरांभीली. सन्त सन्त कायरीं मनां केल्लीं. नन्दमाम थडथडेलो. रंगूलें जातक दकौंचाक ना जीद वोयदाक दाकौंचाक ताका दिस्सलें.

प: ने: "गांवांत घाणी पडचे फूडे इतेंय केल्यार तुका चांग. माका मोक्ष मेळुक न्हंय. तुकाय तुगेले चेरडूवांकय आठौवनु आखांतान धावनु आयलां. आतां ताका जबरदस्त केल्यार तो आटापितलो. ना कायरीं फावरेवनु जून जातलीं. अर्ध सगळें करनु जनपद सोडतलें. वाटेर पणु मरतलो. तुमचें तोणांत रेंव जातली. ताका दशे दोष तं. तर्क ना. ताजे भायर.......तुमचेर सळ आश्शिले कोणेय ताका पोटांतु करनु दिल्यांवे म्हुण माका घट्टि संशय."

"आयमूण भोंवतल्याक शेनि फाटि घेता. गोबोर उब्रो तांचे दोळ्यांत" नन्दमाम फडफडेलो.

प: ने: “उबो! उबो! तें सागून बेस.”

नन्द: “मागीर इतिकरप.”

प: ने: “कायरीं सग्ग समकी करूं. ताणें अशीं तशीं गांव भी सोण वच नातिलें नियन्नणांत घाली.”

नन्द: “कुक्केंनोन वे? अटापीत वे तो? साबाव सांगल्यार पूरो वे?”

प: ने: तेंवय नज वे? हांव करीन. सण्ण चक्र वेच आसा. व्होळ्ळे वोयदिके धांतूले एक पूरो. सोपूर दंदान कायरीं सम करूं.”

नन्द: “नेण्डूमाम, दुडवा चोवनाका. इति जाल्यार तें दीन. ताका समकी जाल्यार पूरो.”

पडकळी नेण्डूक दुदा पायस जालो. तो कप्पीउदकय खाणय खावनु नोटय काण घेवनु होगी भायर सरलो. ‘नोटां’ वटावंची वर्तमान कनकाक रुचलींनात. तीणे बामूणाक गाळायलें. देरू जावो देव जावो. मागीर निर्वितिना तीणे मातें हालयलें. पडकळी नेण्डूले माये उतरांर तीवय निदेली. हरीनय कुमारानय तें सग्ग नीपून आयकून मनांकेलें. ताणी एक स्वरान सांगीले “रंगप्पाक पाणा जाल्यार वोयदीक करका. पडकळी नेण्डू घोळको तं.” तांगेलीं चेरडूपणा वर्तमान नन्दमामान कार्याक काळीनांत.

रंगूरी प्रयोग आरांभीलो. तो सांकाळेंत पळ्ळो. बल करनु कारार चडोवनु रात्यारात ताका उळगांवांत व्हरनु “कैविष” देवींचाक नाका नातिल्लें पीवोवनु ओंकोवनु चोयली. धार केल्ली. विशेष ना. वूणाव ना. मंत्नवाद आरांभीलो. अप्पीन, तेल, तूप, मोट्टो, कोम्बो, बोकडि.........सग्ग हाडताय. वसर्यारी खोंणताय. धुंवर, बली.........एकेक चपड विद्या. कांय गुण ना, फल ना. रंगूक गिरगीरी चळ्ळी. चतुरुपाय व्यर्थ जाले. पेट्ट् घेवनु ओकदां नाका नातिल खावनु रंगूल देह पिटो जालें. भंगारय पंगरावनु मंत्रवादि गेल्लो. व्होन्नेक नांकार आयलो. एवंचें तुंटलें, आश्शिलें बुडलें. पडकळी नेण्डुन् हाथ उद्दारि केल्लो. मेळ्ळेंलें ताणेय अवसेयलें. “सांगिल्लें तकीत केल्यार वे?” तागेलें समर्थन. मृगार ते प्रयोग चंकुन्ना मागीर नवें मनुष्यार; पिशें जावो घेडें जावो? मास भोगले. गांवकारनि नन्दाक म्हस्त सांगीलें, “सीत सिजून पेज जांवचेफूडे खयींय व्हर्नु ताका राबोव्नु वोयदीका कर.” पडकळी नेण्डूले उतरांर तो फरकलो. दुडु धूळिकेंल्लो रंगूक रोग मारक जाल्लो.

रंगूक मार्नु भायर घाल्लो. रंगु वाटेर पळ्ळो. देह कडि जालें. पोट करपलें. कोण मायिष्ठान कांय उडेयल्यार जालें. नांच सोवे गोष्ठि निवली. वर्षां भोगलीं.

नन्दमामाले वरव सर्ले. चेरडूवां एकेकडे गेलीं. प्रताप बान्नु कनक चुप्पा जाली. रंगु काटचर बेसतलो. जनानि लेकिले "कपला बोरो". सामाज प्रमाण्यानि "तागेलें अदृष्ट" म्हणु लेकून ताका सोळो. असंख्य अधम मानवां-तलो एकलो जालो तोवय. खावडि एदी खेली. गांवचे नेम पर्तले. ताकाय धरनु व्हेल्लो.

मागीर.........आज अयकीलें. तागेलीं रीणांय सर्लीं. हरीक खतखत आयले. सूणे सिंकिल्यार कारारि चडोवनु ओकद हाडतात. इत्त्याक? भांडि, सैकळ, स्कूटर......... बालाव जांवचे फूडे व्हरनु चांग करतात. करेयतात. यंत्रा मोल सरी मनिष्याक ना? मृगा पाशी वरीष्ट ताजी गति! सीर लुंकल्यार सिरल्या गाति सरी ताका ना. हा! कीडे सरी रंजून कितले मनीष मरतात! विद्यी हातार तांका विन्दून हाथ फफूण आमी नुत्तो भोंवतात!............

"हरी, हरी" कापी काणावे, निवली मू". अम्माली उतरां ताजे कानांत पळ्ळीं. "एत्तां" ताणे जाप दिल्ली. जल्यार मनिष्यानि मनिष्यार करचे अत्याचाराचे अक्रमाचे अपराधाचे प्रश्नाक जाप ताका मेळ्ळिना. विशिष्ट मानवाली विचित्र गति! तो उट्टायलो.

---

# कोंकण जनता

कोची-२

१९७२ थाकून उजवाडांत एंवचें केरळचें एक मात्र कोंकणी भासे मासिक पत्र. मलबारी लिपीनय, देवनागरी लिपीनय, पाठ, कांणी, कविता, लेखन, नाटक, पुस्तक परिचय, निरूपण इत्यादि आनी कोंकणी समाजा विशेष वर्तमान उजवाडांत हाडचें मासिक पत्र.

संपादक - आर. सुभाष चन्द्र प्रभु.

# कोंकणी कथाष्टक

१९७८ तं कोंकण जनता प्रकाशानाचें पैलें प्रकाशन. "अन्तिम भीक" (के. नारायण नायक), "ती धन्य जाली" (पि. गोपिनाथ कामत), "तमसो मा ज्योतिर्गमया" (वि. वेंकटेश), "स्वप्न जीवित" (आर. सुभाष चन्द्र प्रभु), 'ध्यानेश्वरी' (के. पुरुषोत्तम नायक), "सत्यं एव......" (एल. मुकुन्द पै), "प्रतिकार" (वि. शिवदास मल्या), ब्रह्म-गांट (सुशीला त्रिविक्रम भट्ट) हांगेल्यो आठ काण्यों; प्रो. आर. के. राव हांगेली "प्रस्तावना" सयित. मोल दोन रुपया.

# काण्यां घोस

कोंकणी तरुण साहित्यकारांली धा काण्यों डा. जि. के. पै हांगेली प्रस्तवना सयित. कोंकण जनता प्रकाशानाचें दुसरें प्रकाशन - मोल तीन रुपया.

---